# हांव नास्तीक कित्याक


भगत सिंग

वांगडा प्रस्तावना

बिपन चंद्रा

अणकार

संदेश प्रभुदेसाय





नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

ISBN 978-81-237-5276-1

पयली आवृत्ती 2008 (शके 1930)

Why I Am An Atheist (*Konkani*)

**रु. 30.00**

संचालक, नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया
ए-5 ग्रीन पार्क, नवी दिल्ली - 110016 वरवीं प्रकाशीत

# प्रास्तावीक

भगतसिंग हो एक व्हड देशभक्त आनी क्रांतिकारी आशिल्लोच. पूण तेच बराबर तो एक व्हड विचारवंतूय आशिल्लो. ल्हानपणासावनच तो पुस्तकांनी बुडून आसतालो. लाला लजपत रायान स्थापन केल्लें द्वारका दास वाचनालय हें ताचें दुसरें घरच कशें जाल्लें. ताच्या सदऱ्याचीं बोल्सां सदांच पुस्तकांनी कशीं भरिल्लीं आसतालीं तें ताचे कॉम्रेड सांगताले. हातांत पुस्तक नासतना मेळटालो तो केन्नाय चुकून. पुस्तकां वाचपाचें ताचें हें पिशें बंदखणींतूय चालूच उरलें. दोन वर्सां तो बंदखणींत उरलो. 24 वर्सांची पिराय जावचे आदींच संवसाराक अंतरलो. ताचे जेल डायरेंत ताणें बंदखणींत आसतना वाचिल्ल्या पुस्तकांची सविस्तर वळेरीच मेळटा.

न्यायालयांतल्या सुनावण्यां वेळार ताणें केल्लीं वक्तव्यां आनी वृत्तपत्रांक, इश्टांक आनी सोयऱ्यांक बरयल्लीं पत्रां वाचल्यार सामाजीक वा राजकी चळवळ आनी समाजा विशींची ताची जाण आनी ताचे मानसीक गुणवत्तेची उंचाय होलमता. ल्हवू ल्हवू तो अराजकी हिंसा आनी वैयक्तीक धाडशी कृतीं कडल्यान मार्क्सवादा कडेन घुंवपाक लागिल्लो. भगतसिंगान बंदखणींत आसतना चार पुस्तकां आनी एक पत्रिका बरयल्ली. दुर्दैवान बंदखणींतल्यान नदर चुकोवन भायर काडून सुरक्षीत सुवातेर पावोवपाचे प्रक्रियेंत तीं शेणलीं. असलें साहित्य बाळगितल्याक सुमराभायर दंड पडटालो. देखून एकल्या

कडल्यान दुसऱ्या कडेन अशें ताचें हें साहित्य वचत रावलें आनी त्याच बोवाळांत खंय तरी शेणलें.

नशिबान 'हांव नास्तीक कित्याक' ही तो शहीद जावचे कांय दीस आदीं बंदखणींतल्यान नदर चुकोवन भायर काडिल्ली पत्रिका ताच्या बापायच्या हातांत पावली. लाला लजपत रायान सुरू केल्ल्या 'द पिपल' ह्या सातोळ्यांत लाला फकीरचंद संपादक आसतना 1931 वर्सा ती छापून आयली. उपरांत रोखडीच त्या सातोळ्याचेरूच बंदी हाडली. ही पत्रिका मागीर कितलेशेच फावट बेकायदेशीरपणान छापून वितरायली. कांय वेळार तर छापणावळ सारकी नाशिल्ल्यान वाचूंक लेगीत कुस्तार जाताली.

राम चरण दास ह्या म्हालगड्या क्रांतिकारकान आपल्या 'द ड्रीमलॅण्ड' (सपन नगरी) ह्या कविता संग्रहा खातीर भगतसिंगा कडल्यान प्रस्तावना घेतिल्ली. 'हांव नास्तीक कित्याक' आनी 'द ड्रीमलॅण्ड' कविता संग्रहाची प्रस्तावना ह्या दोनूय बरपांतल्यान भगतसिंगाची मानसीक गुणवत्ता आनी ताच्या स्वैर वाचनाची जाणविकाय जाता. घुस्पागोंदळाचे विशय लेगीत समजून घेवपाची ताची तांक आनी कोणाकय समजत इतले सोंपे तरेन समजावन सांगपाची कळाशी ह्या बरपांतल्यान लक्षांत येता. ताचें मायेस्तपण, म्हालगड्या क्रांतीकारकां विशींचो आदरभाव, आपणाक मान्य नात ते विचार लेगीत समजून घेवपाची ताची उमळशीक आनी दुसऱ्याचे विचार समजून घेवपाची तांक दिश्टी पडटा. देखीक, धर्मा विशीं मुळासावन मतभेद आसून लेगीत धर्माचेर विस्वास दवरतल्यां विशींची ताची भावना हे पत्रिकेंत नियाळूंक मेळटा.

भगतसिंगाची जल्मशती आनी शहिदांचें 75 वें वर्स मनयतना भगतसिंगाचीं हीं दोन बरपां भारतीयांमुखार दवरतना नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडियाक खऱ्यांनीच अभिमान भोगता.

भगतसिंगाचे कॉम्रेड जे एन सन्यालान बरयल्लें ताचें चरित्र हे आदींच नॅशनल बुक ट्रस्टान हिंदींतल्यान उजवाडायलां. ते भायर 'फांसी लाहोर

की' हो भगतसिंगाच्या हौतात्म्याचेर बरयिल्लो कविता आनी गितांचो हिंदी संग्रह, 'शहीद-ए-आझम भगतसिंग काव' हो असल्याच कवितांचो पंजाबी संग्रह तशेंच ताचीं भाशणां, बरपां आनी पत्रांचे संग्रह सगळ्या भारतीय भाशांनी उजवाडायल्यात.

**बिपन चंद्रा**
अध्यक्ष
नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया

# प्रस्तावना

भगतसिंग हो भारतांतलो एक फकत व्हड स्वातंत्र्य सैनीक आनी समाजवादी क्रांतीकारीच नाशिल्लो, तर आदल्या तेंपावेलो एक मार्क्सवादी विचारवंत आनी तत्ववेत्तो आशिल्लो. दुर्देवान ताचे जिणेचीं हीं दुसरीं तासां त्या प्रमाणांत खबर नात. कारण सगळ्या तरांच्या प्रतिगामी, सुदारणाविरोधी आनी जातीयवादी लोकांनी अप्रामाणीकपणान आनी चुकीचे पद्दतीन आपल्या राजकारणा खातीर आनी विचारसरणे खातीर भगतसिंग आनी चंद्रशेखर आझादा सारक्या ताच्या कॉम्रेडांक आज मेरेन वापरपाचो यत्न केला.

भगतसिंग पिरायेच्या 23 वर्सांचेर तरणेपणांतच संवसाराक अंतरलो. गांधीवादी राष्ट्रवादा कडल्यान क्रांतीकारी अराजका कडेन तो घुंवलो तेन्ना पयलींसावनच ताची राजकी विचारसरणी आनी राजकी वेव्हारांचो विकास जावंक लागिल्लो. पूण 1927-28 वर्सासावन तो वैयक्तीक धाडसा कडल्यान मार्क्सवादा कडेन वचपाक लागिल्लो. 1925 ते 1928 मेरेन भगतसिंगान रशियन राज्यक्रांती आनी सोवियेत युनियना विशींचीं आनी हेर पुस्तकांय अधाशावरी वाचून काडलीं. त्या तेंपार असलीं पुस्तकां बाळगप हेंच एक धाडशी आनी क्रांतीकारी स्वरुपाचें काम समजताले. 1920 च्या दसकांत क्रांतीकारी चळवळी, अराजकता आनी मार्क्सवादा विशीं सगळ्यांत चड वाचिल्लो भारतीय म्हूण तेन्ना भगतसिंगाची नामना आशिल्ली. आपल्या हेर

तरणाट्या क्रांतीकारी वांगड्यांकूय ही वाचपाची आनी चिंतपाची संवकळ लावपा खातीर तो प्रयत्न करतालो. लाहोरांतल्या उच्च न्यायालयांत चलतल्या खटल्या वेळार उलयतना ताणें सांगिल्लें: ''क्रांतीची तरसाद ही चिंतनरुपी धार लावपी फातरीचेर घांसची पडटा.'' 1928 वर्स सोंप मेरेन तो आनी ताच्या कॉम्रेडांनी समाजवाद आपणायिल्लो. आपल्या कार्याची ती निमणी मोख केल्ली. तांचे संघटनेचें नांव लेगीत हिंदुस्तान रिपब्लिकन असोसिएशन आशिल्लें तें हिंदुस्तान सोशलिस्ट रिपब्लिकन असोसिएशन केल्लें.

तेन्नासावन, 1929 वर्सा ताका अटक जावचे आदीं, मार्क्सवादाचेर प्रभुत्व मेळोवपा खातीर ताची घोडदौड आनिकूय नेटान सुरू जाल्ली. हे प्रक्रियेंत ताणें सगळीं समकालीन मतमतांतरां, राष्ट्रीय चळवळी, समकालीन संवसारीक क्रांतीकारी आंदोलनांचें स्वरूप, अराजकवाद, समाजवाद, हिंसा आनी अहिंसा, क्रांतीकारी दहशतवाद, जातीयवाद आनी धर्म, आदले क्रांतिकारी आनी समकालीन राष्ट्रवादी अश्यो सगळ्योच गजाली टिकात्मक नदरेन तपासून पळयल्ल्यो.

अशी तेजिश्ट बुद्दीमत्ता आशिल्लें येदें व्हडलें व्यक्तीमत्व वसाहतवादी सत्ताधिशांनी इतले बेगीन संवसारांतल्यान ना करप ही आमची लोकांची शोकांतिका म्हणची पडटली.

गोळाक मारपाच्या वधस्तंभा कडेन वचपाची वाट पळयत बंदखणींत राती सारतना 1930-31 वर्सांनी भगतसिंगान बरयल्लीं हीं दोन चड कोण नकळो आशिल्लीं बरपां आमी वाचकांमुखार हाडल्यांत. ताचीं हेर बरपां, पत्रां आनी वक्तव्यांवरीच ह्या लेखांतल्यानूय एक क्रांतीकारी म्हूण मार्क्सवादा कडेन आशिल्ली ताची निश्ठा आनी घुस्पागोंदळांतल्यान वाट काडून ती प्रत्यक्ष वापरपाची ताची तांक दिसता.

# I

हातूंतल्या पयल्या लेखांत भगतसिंग धर्म आनी नास्तीकते विशीं बरयता. तातूंत तो आपल्या नास्तीकते कडेन वचपाच्या प्रवासाचो नियाळ घेता. भुरगेपणांत धर्माचो ताचेर पडिल्लो प्रभाव आनी उपरांत सचिंद्र नाथ सन्यालासारक्या क्रांतीकारी दहशतवाद्याचो पडिल्लो प्रभाव. खास करून 1920 च्या दसकांत तांचें 'बंदी जीवन' हें पुस्तक तर सगळ्याच क्रांतीकारकां खातीर मुलभूत पाठ्यपुस्तक कशें जाल्लें. आदल्या तेंपावेले हे क्रांतीकारक आपल्या धाडशी करण्यां खातीर लागपी अध्यात्मीक बळगें धर्म आनी गूढवादांतल्यानच चड घेताले. ह्या आनी दुसऱ्याय लेखांत भगतसिंग ह्या आद्य क्रांतीकारकांच्या दिश्टीकोण आनी मनोवृत्ती विशीं पुराय समजिकाय दाखयता. तशेंच तांचे मदले धर्मीकतायेचो उगम खंय जालो तेंय सोदून काडटा. ताच्या मतान आपल्या राजकी कार्या विशीं तांकां विज्ञानीक समजिकाय नाशिल्ली. ताकाच लागून वैयक्तीक मोहांआड झगडचे खातीर, निर्शेणेंतल्यान भायर सरचे खातीर, भौतीक सुखां, कुटुंबीक जीण आनी वेळ पडल्यार जिवाचो लेगीत त्याग करचे खातीर ते ह्या तर्कहीन धर्मीक श्रद्धा आनी गूढवादाचेर निंबून आसताले. जेन्ना खंयचोय मनीस आपली जीण सातत्यान पणाक लायत आसता आनी सगळ्या तरांचे त्याग करता तेन्ना ताका खंयच्यान तरी प्रेरणा ही जायच आसता. ही प्रेरणा ह्या आद्य क्रांतीकारकांक धर्म आनी गूढवादांतल्यान मेळटाली.[1] पूण जांकां आपल्या कार्याचें स्वरूप समजल्लें तांकां ह्या गजालींतल्यान प्रेरणा घेवपाची गरज दिसली ना. खासा करून प्रागतीक क्रांतीकारी विचार आशिल्ल्यांक. अध्यात्माच्यो कृत्रीम कुबड्यो घेनासतना

[1] भगतसिंगान स्वता ह्या दोनूय लेखांनी सांगिल्लें नासलें तरी आनीक एक मुद्दो हांगा स्पश्टपणान जाणवता - धर्म हें राष्ट्रभक्तीचें प्रेरणास्थान म्हूण पळोवप आनी धर्म हें जातीयवादी अस्त्र म्हूण वापरप हातूंतलो फरक. आदल्या क्रांतीकारकांनी स्फूर्त घेवचे

अत्याचारांआड संघर्श करतल्यांक. चिरंतन मुक्ती आनी सांत्वनाची गरज दिसनासतना निर्भयपणान आनी आत्मविस्वासान वधस्तंभाचेर चडटल्यांक. ‘दुसरो पर्यायच ना’ अशें चिंतूनच स्वातंत्र्या खातीर आनी चिड्डल्ल्यांक मुक्त करचे खातीर वावुरतल्यांक.

खरें म्हणल्यार त्या वेळार स्वता भगतसिंगूच आपणाक केन्ना गोळार मारतले ताची वाट पळयत आशिल्लो. अशा वगतार देवाचो आदार घेवप चड सोंपें हें तो जाणा आसलो. “देवामदीं मनशाक सांत्वन आनी आदार मेळटा.” दुसरे वटेन आपले भितरले शक्तीचेर निंबून रावप इतलें सोपें न्हय. “वादळ आनी तुफान जाता तेन्ना स्वताच्या पांयांचेर उबें रावप हो भुरग्यांचो खेळ न्हय.” ते खातीर खर नैतीक धैर्य लागता हें तो जाणा आसलो आनी आधुनीक क्रांतीकारक नितीचे वाटेनच चलतात हाची ताका खात्री आसली. ह्या मार्गावेल्या दरेकल्यान स्वताक “मनीसजातीचे सेवेक आनी यातनाग्रस्त मानवतेचे मुक्तीक” ओंपून घेतिल्लो. “अत्याचार करपी, शोशण करपी आनी जुलूम करपी लोकांक आव्हान दिवपाची” धमक आशिल्ल्या दादले आनी बायलांनी हो मार्ग आपणायिल्लो. “मानसीक साचेबंदपणाक” विरोध करून स्वता विर्शीं विचार करपाक लावपाचो आग्रो धरपी लोकांचो हो मार्ग आसलो. भगतसिंगानच सांगिल्ल्याप्रमाण

---

खातीर आनी विचारप्रणाली खातीर धर्म आनी गुढवादाचो आदार घेतलो. पूण ते जातीयवादी नाशिल्ले. तांचे खातीर धर्म हो आंतरीक प्रेरणेचो स्रोत आशिल्लो, तांच्या राजकारणाची बुन्याद न्हय. तातूंतल्यान तांकां समेस्त भारतीयांचे मुक्तीची प्रेरणा मेळटाली. भारतीय घटकांमदीं एकामेकांआड दुस्वास पातळावपाचें जातीयवादी राजकारण करपी संघटक नाशिल्ले ते. धर्म आनी गूढवादावेले श्रद्धेंतल्यान स्फूर्त घेवन तांणी साम्राज्यवाद्यांआड लढो उबारिल्लो. मात जातीयवाद्यांनी तेन्नाय साम्राज्यवाद्यांचोच पाखो घेतिल्लो आनी संघटीत भारतीयांक एकामेकांमदीं फोडून साम्राज्यवाद्यांची सेवाच केल्ली. तांच्या राजकारणाचो रोख निमाणे भारतीयांआडूच आशिल्लो, साम्राज्यवादाआड न्हय.

''टिकाशक्त आनी स्वतंत्र विचारशक्त हे दोन अनिवार्य अशे गूण क्रांतीकारकालार्गी आसचेच पडटात.''

मनाशान विवेकनिश्ठ जावन जगप इतलें सोंपें न्हय हें स्वता भगतसिंगूच सांगता. कुड्डे श्रद्धेंतल्यान समाधान वा आदार घेवप खूब सोंपें. पूण विवेकनिश्ठपणान निरंतर जीण जगप हें आमचें कर्तव्य. देखूनच वधस्तंभा कडेन वच मेरेन ताठ मानेन जगपी एक नास्तीक आनी वास्तववादी (भौतीकवादी) मनीस म्हणून जगपाचो आपलो प्रयत्न आशिल्लो अशें स्वता भगतसिंगूच हो लेख सोंपयतना निमाणे सांगता.

## II

धर्माची भुमिका आनी ताचे मुळावे कारणमिमांसेचें विश्लेशण भगतसिंग करता तेन्ना ताची प्रखर बुद्दीमत्ता, क्रांतीकारी निश्ठा आनी इतिहासीक, भौतीकवादी आनी शास्त्रशुद्ध नदरेचो दिश्टावो जाता.

तो आनीक एक गजाल नदरेक हाडून दिता. सत्ताधारी आनी पिळवणूक करतल्यांनी लोकांक फटोवपा खातीर, आपले वर्गसत्तेक मान्यताय मेळोवपा खातीर आनी सामाजीक पांवड्यार लोकांक थंड दवरपा खातीरच धर्माची निर्मिती केल्ली ना. प्रत्यक्षांत घडये तांचो हेतू साध्य जाता आसत आनी धर्म हें त्या वर्गांच्या हातांतलें घडये एक प्रभावी अस्त्रूय जाता आसत. पूण ताच्या मतान धर्म म्हणल्यार हाचेकूय फुडली गजाल. आपणा भोंवतणची निसर्गीक परिस्थिती होलमून घेवपाची आदिमानवाची असमर्थताय, आपणा भोंवतणचे सामाजीक वेव्हार आनी सामाजीक संस्था समजून घेवपाची असमर्थताय, आपले जिणेचेर ताबो मेळोवपाची असमर्थताय आनी आपल्या मर्यादांचेर मात करपाची असमर्थताय हातूंतल्यान धर्माक म्हत्व आयलें. अशा वेळार देव ही कल्पना उपेगाची थारता. आदीम काळांत समाजा खातीर हीच कल्पना उपेगाची थारिल्ली.

चड करून, "देव हे कल्पनेचो उपेग मनशाक निर्शेणेच्या वेळार चड जाता." देव आनी धर्मान असहाय्य लोकांक जिणेक फुडो करपाक बळगें दिलें. "सगळ्या तरांच्या परिस्थितींक धैर्यान तोंड दिवचे खातीर, सगळ्या संकश्टांक फुडो करचे खातीर आनी भरभराट आनी समृद्धीच्या वेळार स्वताचेर ताबो दवरचे खातीर देव हे कल्पनेचें अस्तित्व तयार केलें." "श्रद्धा कश्टांची खरसाण निवळायता, तांकां सुखदिणे लेगीत करता. देवा भितर मनशाक समाधान आनी मजतीचें बळगें मेळटा." देखूनच निर्शेल्ल्या, फटवल्ल्या आनी असहाय्य मनशांक देव म्हणल्यार "आवय, बापूय, भाव, भयण, इश्ट आनी आदारस्तंभ." [2]

पूण, भगतसिंगाच्या मतान, विज्ञान विकसीत जावंक लागलां आनी शोशितांनी मुक्तिझूज सुरू केलां तेन्ना "मनशान आपल्या पांयांचेर उबो रावन वास्तववादी जावपाचें थारायलां (भगतसिंग बुद्दीप्रामाण्यवादी वा भौतीकवादी ह्या उतरांपरस वास्तववादी हेंच उतर परत परत वापरता)."

---

[2] तरण्या रगताचो भगतसिंग तरण्या मार्क्साच्या विचारांकडेन कितलो लागीं आशिल्लो? 1844 वर्सा मार्क्सान बरयल्लें : "धर्म म्हणल्यार ह्या संवसाराविशींचो सर्वसादारण सिद्धांत, संवसाराचो संक्षिप्त ज्ञानकोश, संवसाराचें लोकप्रिय पद्दतीन मांडिल्लें तर्कशास्त्र, संवसाराची अध्यात्मीक तेंगशी, उमेद, नैतीक मंजुरी, वचनपुर्ती, सांत्वन आनी संवसाराच्या समर्थनाचें सार्वत्रीक उगमस्थान... धर्मीक वेदना ही एकाच वेळार वास्तव वेदनेची *अभिव्यक्तीय* आसता आनी वास्तव वेदने आड केल्लो *निशेधूय* आसता. धर्म म्हणल्यार चिड्डल्ल्या माड्डल्ल्यांचो हुस्कार, काळीज नाशिल्ल्या संवसाराचें काळीज, चैतन्य शेणिल्ल्या परिस्थितींतली चेतना. धर्म ही लोकांची अफू. एक भ्रामक खोस म्हूण आशिल्लें धर्माचें अस्तित्व सोंपोवप म्हणल्यार लोकांक*खरीखुरी* खोस दिवप." (कलॅक्टेड वर्कस्, व्हॉल्युम III, 1975, पानां 175-76). भगतसिंगान हो उतारो वाचिल्लो आसत अशें दिसना. तरिकूय धर्म ही लोकांची अफू आसता म्हूण मार्क्स सांगतालो तें हेरांपरस भगतसिंगाकूच चड बरें होलमल्लें.

अशा वगतार देवाची ही गरज, ह्यो काल्पनीक कुबड्यो आनी हो कल्पनेंतलो पावपी आपसूकच सोंपता. "धर्माची ही संकुचीत कल्पना" आनी देवाचेर आशिल्ले श्रद्धेआड झगडप ह्या मुक्तीझुजाची गरज जाता. भगतसिंग सांगताः "उदरगतीचो पाखो घेतिल्ल्या दरेका मनशान पोरण्या श्रद्धांचेर टिका करपाकूच जाय, तांचेर अविस्वास दाखोवंकूच जाय आनी तांकां आव्हान दिवंकूच जाय. सध्या अस्तित्वांत आशिल्ले श्रद्धेच्या खांची कोनशांची कारणमिमांसा करपाक जाय... स्वताक वास्तववादी म्हणटल्या दरेका मनशान सनातन श्रद्धांक आव्हान दिवंकूच जाय... पयलीं तांचो पिठो करपाक जाय आनी नवें तत्वज्ञान उबें करपा खातीर सुवात तयार करून दिवंक जाय."

## III

आद्य क्रांतीकारकां विशींची भगतसिंगाची सहानभुतीची पूण टिकात्मक समजिकाय, इतिहासीक संदर्भांतल्यान तत्वज्ञान आनी राजकी दिश्टीकोण समजुपाची तांक आनी तर्कशक्त, आनी ताची मुलभूत मार्क्सवादी विचारसरणी ताणें हेर प्रस्नांचेर केल्ल्या विवेचनांतल्यान स्पश्ट जाणवता.

1915 वर्सा जल्मठेपेची ख्यास्त जाल्ले म्हालगडे क्रांतीकारी लाला राम शरण दासाच्या 'द ड्रीमलॅण्ड' ह्या कविता संग्रहाक भगतसिंगान बरयल्ली प्रस्तावना म्हणल्यार हो दुसरो लेख. तातूंत भगतसिंग अप्रत्यक्षपणान आदल्या शुद्ध राष्ट्रवादा कडल्यान बदलत गेल्ले परिस्थितीचो नियाळ घेता. परदेशी सत्ता उमथावन उडोवपाच्या एकमेव ध्येया कडल्यान आतांची समाजवेवस्था पुरायपणान नव्यान उबारपाचे प्रक्रियेचो तो नियाळ घेता. तत्वज्ञान आनी राजकी म्हणयाऱ्यापरस कवीमनान बरयतना भगतसिंग पयलीं आदल्या क्रांतीकारकां कडल्यान नवे पिळगेक राष्ट्रभक्तीची प्रेरणा, लोकांचो मोग

आनी त्यागाची तांक कशी मेळ्ळी तें सांगता. मागीरच तो तांचे वांगडा आशिल्ल्या तत्वगिन्यानी, राजकी आनी वैचारीक मतभेदांचेर बरयता.

हे प्रस्तावनेच्या आदल्या वांट्यांत बरयलां तशें ह्याय लेखाचे सुरवेकूच तो धर्म आनी गूढवादांतल्यान प्रेरणा घेवपी आनी आपले स्वताचे भौतीकवादी, विवेकनिश्ठ आनी विज्ञाननिश्ठ भुमिकेमदीं फरक करता.

तेन्नाच्या समकालीन, घुस्पागोंदळाच्या आनी ज्वलंत अशा हिंसा आनी अहिंसेच्या प्रस्नाचेंय तो विवेचन करता. ते खातीर तो सरळ गाभ्याकूच हात घालता. क्रांतीकारकांक जाय ती सगळ्या तरांची हिंसा नश्ट जावपी समाजवेवस्था. विवेकनिश्ठ आनी न्यायाचें राज्य. तशेंच वादविवाद आनी शिक्षणांतल्यान सगळे प्रस्न सोडोवपी समाजरचना. पूण साम्राज्यवादी, भांडवलदार आनी हेर शोशक हेंच जावंक दिवचे नात. उरफाटें शिक्षणांतल्यान आनी शांतीच्या मार्गान समाजवाद येवपाचो कसलोय प्रयत्न ते निश्ठुरपणान चिड्डून उडयतले. देखून क्रांतीकारकांनी हिंसा हो "आपले कार्यावळीचो गरजेचो भाग" म्हूण आपणावचो पडटलो. तेन्ना क्रांतीकारकांक "सामको गरजेचो म्हूण हिंसेचो मार्ग आपणावचोच पडटलो" अशे तरेन भगतसिंग आपलें हें विवेचन व्हडा कुशळटायेन सोंपयता. एक फावट समाजवादी वेवस्था प्रस्थापीत जाली काय शिक्षण आनी मतपरिवर्तनाचे पद्दतींतल्यान समाजाची उदरगत करतले, बळग्याचो वापर फकत आडखळी पयस करपा खातीर वापरतले.

आपल्या नास्तीकतेवेल्या लेखांतय ताणें हेच तरेन विशय मांडिल्लो. नवे पिळगेंतल्या क्रांतीकारकांनी "आद्य क्रांतीकारकांची हिंसेवांगडा रोमान्स करपाची पद्दत" बदलिल्ली. "सामकी गरजेची आसता तेन्ना हिंसा समर्थनीय थारता" जाल्यार "सगळ्या जनआंदोलना खातीर धोरण म्हूण अहिंसा अनिवार्य आसता" अशें धोरण तांणी आपणायिल्लें. ताकाच लागून क्रांतीकारक लोक हिंसेचें उदात्तीकरण करनात; हिंसा हो मार्ग कसो धरून क्रांती करनात. मात त्याच वेळार हिंसेची गरजूय न्हयकारनात. जेन्ना इतिहास आनी सत्ताधारी

वर्ग तांचेर सक्ती करता तेन्ना ''सामकी गरजेची'' म्हूण सध्याची समाजवेवस्था उमथावन उडोवचे खातीर ते हिंसेचो मार्ग आपणायतात.

## IV

वांगडाच आदल्या क्रांतीकारी विचारप्रणालींतल्या सपनाळू आदर्शवादाचोय भगतसिंग नियाळ घेता. सामाजीक चळवळीच्या थारावीक टप्प्यांचेर आनी सामाजीक उदरगतींत ह्या आदर्शवाद्यांनी दिल्ल्या योगदानाची दखल घेता. तशेंच ''विज्ञानीक मार्क्सवादी समाजवादाच्या'' तत्वज्ञानाचेर आदारून शास्त्रशुद्ध पद्दतीन क्रांतीकारी चळवळ मुखार वचपाक लागतकीर अपरिहार्य तरेन हे आदर्शवादी कशे फाटीं पडपाक लागले तेंय नियाळटा.

एक आदर्शवादी तास (पैलू) भगतसिंग तपशिलान हाताळटाः मानसीक आनी शारिरीक श्रमांची सांगड कशी घालप? समाजवादी समाज तयार जावंक जाय जाल्यार ह्या दोगांमदली दरी ना करप ही ताची बुन्याद आसतली हें तो मानून घेता. पूण ते खातीर सगळ्या मानसीक श्रम करतल्यांनी दिसाक चार वरां शारिरीक श्रम केल्यार ही दरी ना जातली हें राम शरण दासान सांगिल्लें यांत्रीक आनी आदर्शवादी तत्व ताका निखालस मान्य ना. ताच्या मतान मानसीक आनी शारिरीक श्रमांचें स्वरुपूच वेगळें. ताचें मूळ आसा ह्या दोगांमदीं आशिल्ले असमानतेंत. दोगांकय उत्पादनक्षम श्रम मानप आनी मानसीक श्रम शारिरीक श्रमापरस उंचेल्या दर्ज्याचो आसता हो गैरसमज पयस करप होच ताचेर खरो उपाय.

V

निमाणे; मार्क्स, एंगल्स आनी लेनिनाचे परंपरेंतलो भगत सिंग हो एक समिक्षाबुद्द आशिल्लो क्रांतीकारक आशिल्लो. 'द ड्रीमलॅण्ड' वाचात म्हूण सांगतना तो तरणाट्यांक शिटकायताय: ''ताचें कुड्डें अनुकरण करचे खातीर हो कविता संग्रह वाचनाकात आनी तातूंत कितें बरयलां तें गृहीत धरनाकात. वाचात, ताचेर टिका करात, ताचेर चिंतात आनी ताचे मजतीन तुमचीं स्वताचीं मतां तयार करात.''

**बिपन चंद्रा**

# हांव नास्तीक कित्याक

एक नवो प्रस्न उप्रासला. म्हज्या स्वताच्या झेतांक लागून हांव सर्वशक्तीमान, सर्वव्यापी आनी सर्वज्ञ अशा देवाचें अस्तित्व न्हयकारतां? अशे तरेच्या प्रस्नाक जाप दिवची पडत अशें म्हाका केन्नाच दिसूंक नासलें. पूण म्हज्या कांय इश्टांलागीं उलयतना म्हाका हाची सुलूस लागली. म्हजे कांय इश्ट - तांकां इश्ट म्हूण समजून हांव चड कांय अपेक्षा करना जाल्यार - थोडो तेंप तांच्या संपर्कांत येतसावन ते म्हजे विशीं एक निश्कर्श काडटात. म्हज्या झेत मारपाच्या सभावाक लागून हांव देवाचेर विस्वास ना म्हूण सांगतां अशें तांकां दिसता. तशें पळोवंक गेल्यार हो गंभीर प्रस्न. मनीस सभावाच्या दोशांपसून हांव मुक्त आसां अशें हांव तरी मानना. हांवूय एक मनिसूच, दुसरों कोण न्हय. खंयचोच मनीस स्वताक आनीक कोण समजुकूंच शकना. म्हजे भितरूय हें उणेपण आसा. झेत मारप हो म्हजो सभाव. म्हजे कॉम्रेड म्हाका एकाधिकारशहा म्हणटात. म्हजो इश्ट बी. के. दत्तूय म्हाका केन्ना केन्ना तसोच म्हणटा. कांय वेळार म्हाका जुलमी सत्ताधीश म्हूण हिणसायला लेगीत. हांव म्हर्जी मतां दुसऱ्यांचेर लादतां आनी तीं मानूनय घेवंक लायतां अशी म्हज्या कांय इश्टांची गंभीर स्वरुपाची कागाळूय आसा. हांव ना म्हणना, कांय प्रमाणांत तें खरें आसाय बी. हातूंतल्यान मनीस अंहकारीय जावंक शकता. हेर मतप्रवाहांचे तुलनेंत आमचो पंथ वेगळो म्हूण जितलो झेत आमकां आसा तितलोच झेत म्हजे भितरूय आसा. पूण तो वैयक्तीक स्वरुपाचो न्हय. आमच्या पंथा विशीं तो अभिमान आसतलो, पोको झेत न्हय. झेत, वा अहंकार, म्हणल्यार स्वता विशींचो फुकेबेश्टो आनी इल्लो चडूच असो अहंकार. ह्या फुक्याबेश्ट्या अभिमानांतल्यान हांव स्वताक

नास्तीक समजतां? काय बारीकसाणीन अभ्यास करून आनी चिंतूनच हांव देवाचेर श्रद्धा दवरना? होच प्रस्न हांव हांगा चर्चेक घेतलों. पूण ताचे आदीं आनीक एक गजाल हांव स्पश्ट करपाक सोदतां. झेत आनी अहंकार ह्यो दोन वेगवेगळ्यो गजाली.

पयली गजाल म्हणल्यार म्हाका एक समजना. फुकेबेश्टो अभिमान वा गर्विश्टपण आसल्यार ताणें देवाचेर विस्वास दवरूंक जायना अशें कितें आसा? लायकी नासुनूय वा आंगांत जाय ते गूण नासुनूय जर म्हाका सुमरा भायर लोकप्रियता मेळिल्ली आसत जाल्यार घडये हांव खऱ्यांनीच व्हड आशिल्ल्या एखाद्र्या व्हड मनशाचें अस्तित्व न्हयकारपाक शकतां. हें समजुपाक जाता. पूण जो मनीस देवाचेर श्रद्धा दवरतालो तो फकत झेताक लागून देवावेली श्रद्धा कित्याक सोडून दितलो? हांगा दोनूच प्रकार आसपाक शकतात. एक तर तो स्वताक देवाचो प्रतिस्पर्धी मानपाक लागला आसत वा स्वताकूच देव समजूंक लागला आसत. पूण ह्या दोनूय प्रकारांतल्यान तो नास्तीक जावंक शकना. पयल्या प्रकारांत तर तो आपल्या प्रतिस्पर्ध्याचें अस्तित्वच न्हयकारना. दुसऱ्या प्रकारांत तर निसर्गाच्यो सगळ्यो हालचाली पड्ड्या फाटल्यान रावन नियंत्रीत करपी एक अस्तित्व आसा अशें तो मानता. हांगा तो स्वताकूच एक व्हडली शक्त समजता काय ताचेपरस वेगळी अशी आनीक एक व्हड शक्त आसा अशें समजता हें म्हत्वाचें न्हय. मूळ कितें तें आसा. ताची श्रद्धा आसा. खंयचेच तरेन तो नास्तीक न्हय. पूण हो पळय हांव. हातूंतल्या पयल्या प्रकारांतूय हांव मोडना आनी दुसऱ्याय. हांव ते सर्वश्रेश्ठ शक्तीचें अस्तित्वूच न्हयकारतां. कित्या खातीर तें मागीर पळोवया. पूण ताचे पयलीं एक गजाल हांव स्पश्ट करपाक सोदतां. म्हज्या झेताक लागून हावें नास्तिकता आपणायिल्ली ना. हांव त्या देवाचो प्रतिस्पर्धीय न्हय आनी स्वताक तितल्याच सर्वश्रेश्ठ शक्तीचो अवतारूय समजना. म्हणल्यार एक गजाल स्पश्ट जाली. झेताक लागून हांवें हो विचार निखालस आपणायिल्लो ना. हो आरोप न्हयकारपा खातीर

आतां वस्तुस्थितीय पडताळून पळोवया. म्हज्या ह्या इश्टांच्या मतान दिल्ली बॉंब आनी लाहोर कटाच्या खटल्यांतल्या सुनावण्यां वेळार म्हाका गरजेभायर मेळिल्ले प्रसिद्धीक लागून म्हाका गर्व चडला हें तांचें म्हणणें खरें काय कितें तें पळोवया. हांव इतलों हालींचों नास्तीक न्हय. म्हजे हे इश्ट म्हाका वळखनाशिल्ले तितल्या अनवळखी तरणेपणासावन लेगीत हांव देव मानना. नास्तिकते कडेन व्हरीत असो फुकेबेश्टो अभिमान निदान कॉलेजींत शिकपी भुरग्यामदीं तरी तयार जावचो ना. कांय प्राध्यापकांक हांव आवडटालों जाल्यार कांय प्राध्यापकांक ना. शिकपांत तर हांव हुशारूय नाशिल्लों आनी पर्जळपी विद्यार्थीय. आंगांत झेत चडचो अशी संद लेगीत म्हाका केन्नाच कॉलेजींत मेळ्ळिना. आपले करियरा विशीं निर्शेणी आशिल्लों असों हांव एक लजेवपी भुरगो आशिल्लों. त्या दिसांनी तसो हांव पुरायपणान नास्तीकय नाशिल्लों. कर्मठ आर्य समाजी आशिल्ल्या म्हज्या आज्याच्या हाताखाला हांव वाडिल्लों. आर्य समाजी हो कसोय आसत, पूण नास्तीक आसचो ना. मुळावें शिक्षण सोंपतकीर हांव लाहोरांतल्या डीएव्ही शाळेंत गेलों आनी वर्सभर तांच्या बोर्डिंग हावसांत रावलों. थंय सकाळीं आनी सांजे जावपी प्रार्थने भायर वरांचीं वरां हांव गायत्री मंत्र म्हणीत रावतालों. त्या दिसांनी हांव सामको श्रद्धाळू आशिल्लों. मागीर हांव बापाय वांगडा रावंक लागलों. धर्मांतले कर्मठतेचे दिश्टीन म्हजो बापूय तसो उदारमतवादी म्हणूं येत असो आशिल्लो. स्वातंत्र्या खातीर जीण ओंपपाची स्फूर्त म्हाका ताचेच शिकोवणेंतल्यान मेळ्ळी. पूण तो नास्तीक नाशिल्लो. एक कट्टर आस्तीक आशिल्लो. सदां प्रार्थना म्हणची म्हूण म्हाका उर्बा दितालो. असहकार चळवळीच्या दिसांनी हांव नॅशनल कॉलेजींत पावलों. थंय हांवें देव धरून सगळ्या धर्मीक प्रस्नांचेर चर्चा करपाक, उदारमतवादी जावन चिंतपाक आनी टिकाय करपाक सुरवात केली. तरिकूय देवावेली म्हजी श्रद्धा उणी जाली ना. तितले म्हणसर हांवें कापनासतना लांब केंस तशेच दवरपाकूय सुरवात केल्ली. मात शीख धर्मांतल्यो वा हेर खंयच्याय धर्मांतल्यो पुराणकथा

आनी शिकोवण्यो म्हाका मान्य नाशिल्ल्यो. तरिकूय देवाचेर मात म्हजी पुराय श्रद्धा आशिल्ली.

उपरांत हांव क्रांतीकारी पक्षांत गेलों. पयलोच जो फुडारी मेळ्ळो ताची पक्की खात्री नाशिल्ली, पूण देव ना म्हणपाचें धारिश्टय ताचे मर्दी नाशिल्लें. परत परत देवा विशीं विचारीत रावतकीर तो एकूच सांगतालोः "तुका दिसता तेन्ना कर प्रार्थना." आतां ही त्या पंथाक आपणावपाचें धारिश्टय नाशिल्ली नास्तीकताच. दुसरो फुडारी मेळ्ळो तो मात कट्टर आस्तीक आशिल्लो. ताचें नांव तुमकां सांगतांच - कराची कट खटल्यांत सध्या जल्मठेप भोगपी आदरणीय सचिंद्र नाथ सन्याल. तांच्या 'बंदी जीवन' ह्या फामाद आनी एकमेव पुस्तकाच्या पयल्या पानावेल्यानूच देवाची व्हडवीक गावंक सुरवात जाता. ह्या सोबीत पुस्तकाच्या दुसऱ्या वांट्याच्या निमण्या पानार तर वेदान्ताचेर निश्ठा दवरून देवाचे व्हडविकायेचो शिंवर केला. तातूंतल्यान तर तांचे गूढवादी विचार सामकेच नदरेंत भरतात. सरकारी म्हणण्या प्रमाण 28 जानेवारी 1925 दिसा भारतभर वाटिल्लें 'क्रांतीकारी पत्रक' तांचेच वैचारीक लिखणेंतल्यान तयार जाल्लें. आतां गुप्त संघटनेंत काम करतना मुखेल फुडारी चडसो आपणाक लागीं आशिल्ले लोक मतींत दवरून आपलेच विचार पत्रकांतल्यान मांडटा. मतभेद आसल्यार लेगीत हेर कार्यकर्त्यांक ते मानून घेवचे पडटात. त्या पत्रकांतलो एक परिच्छेद तर त्या सर्वश्रेश्ठाची व्हडविकाय गावपाक ओंपला. हो सगळो गूढवाद. म्हाका हातूंतल्यान एकूच गजाल लक्षांत हाडून दिवपाक जाय. त्या तेंपार देवावेलो अविस्वास हे कल्पनेन क्रांतीकारी पक्षांत मूळ लेगीत धरूंक नाशिल्लें. फामाद काकोरी खटल्यांतल्या चारूय हुतात्म्यांनी आपले निमणे दीस देवाची प्रार्थना करीतच सारले. राम प्रसाद बिस्मिल हे कर्मठ आर्य समाजी आशिल्ले. समाजवाद आनी साम्यवादा विशीं खोलायेन अभ्यास करून लेगीत राजेन लाहिरीच्यान उपनिशदां आनी गीतेंतले श्लोक म्हणलेबगर रावंक नजो आसले. प्रार्थना करिनासतना राविल्लो एकूच मनीस हांवें तांचे

मर्दी पळयलो. ते सांगतालेः ''मनशाचें दुबळेपण आनी गिन्यानाचे मर्यादेंतल्यान तत्वज्ञानाची निर्मणी जाता.'' तांकांय जल्मठेपेची ख्यास्त जाल्या. पूण देवाचें अस्तित्व न्हयकारपाचें धारिश्ट्य तांकांय जालें ना.

ते मेरेन हांव फकत एक सपनाळू आदर्शवादी क्रांतीकारक आशिल्लों. ते मेरेन आमी फकत दुसऱ्यांचे फाटल्यान वताले. उपरांत सगळी जापसालदारकी आपल्या भुजांर पेलपाचो वगत आयलो. अपरिहार्य अश्या प्रतिक्रियांक लागून तेन्ना पक्षाच्या अस्तित्वाचेरूच हावळ आयिल्ली. कांय उमेदी कॉम्रेड, इतलेंच कित्याक, फुडारी लेगीत आमच्यो भगल्यो मारताले. एक दीस म्हजोय आमचे कार्यावळीवेलो विस्वास वतलो काय कितें अशी भिरांत म्हाका पडिल्ली. म्हजे क्रांतीकारी दिशेक ह्याच खिणाक मोडण मेळ्ळें. ''अभ्यास'' हो एकूच मंत्र म्हज्या मनाच्या खांची कोनशांनी घुमपाक लागलो. विरोधकांनी घाल्ल्या मुद्यांचें खंडन करचे खातीर अभ्यास. तुज्या पंथाचें समर्थन करपी जाता तितले मुद्दे पुंजावचे देखून अभ्यास. हांवें अभ्यास सुरू केलो. म्हजे आदले भावार्थ आनी मतां आरत्याचीं परतीं जालीं. आमच्या जाण्टेल्यांच्या फकत हिंसक करण्यांच्या रोमान्साची सुवात गंभीर विचारांनी घेतली. हाचे फुडें गूढवाद ना, हाचे फुडें कुड्ड्यो श्रद्धा नात. वास्तववाद होच आमचो भावार्थ जालो. सामकी गरजेची आसता तेन्नाच हिंसा समर्थनीय. नाजाल्यार सगळ्या जनआंदोलनांचें अनिवार्य धोरण म्हणल्यार अहिंसा. हें इतलें कार्यपद्दती विशीं. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हणल्यार आमी झगडटाले त्या आदर्शांची जाण तयार जाली. त्या दिसांनी प्रत्यक्ष कृती करपासारकें चड कांय नाशिल्लें. त्या निमतान संवसारीक क्रांतीच्यो वेगवेगळ्यो विचारसरण्यो वाचपाची संद मेळ्ळी. अराजकी फुडारी बाकुनिन हांवें वाचलो. कांय प्रमाणांत साम्यवादाचो जनक मार्क्स वाचलो. आपापल्या देशांत येसस्वीपणान क्रांती घडोवन हाडपी लेनिन, ट्रॉट्स्की आनी हेरां विशीं खूब वाचलें. ते सगळे नास्तीक आशिल्ले. थोडे भितर आसलें तरी बाकुनिनाचें 'गॉड ॲण्ड स्टेट' (देव आनी राज्यवेवस्था) हें

तर उमळशीक वाडोवपी अभ्यासपुर्ण पुस्तकः उपरांत म्हाका निरलंब स्वामीचें 'कॉमन सॅन्स' हेंय पुस्तक मेळ्ळें. गूढवादी नास्तीकतेचो कसो हो प्रकार. ह्या विशयांतली म्हजी उमळशीक सुमरा भायर वाडली. 1926 सोंपसर त्या सर्वश्रेशठ ईश्वरान हें विश्व निर्मिलें, ताका मार्गदर्शन केलें आनी ताचेर नियंत्रण दवरलें हो सिद्धांत निरर्थक हें म्हाका पुरायपणान पटिल्लें. म्हजी ही श्रद्धा हांवें शेंवटून मारली. ह्या विशयाचेर हांवें म्हज्या इश्टांलागीं भासाभास सुरू केली. हांव आतां खांपो नास्तीक जाल्लों. म्हणल्यार कितें ताचेरूच आमी आतां चर्चा करया.

म्हाका मे 1927 त लाहोरांत धरलो. ही अटक म्हणल्यार म्हजे खातीर अजापच आसलें. कारण पुलीस म्हाका सोदतात हें हांव नकळोच आसलों. गार्डनांतल्यान वतना मदींच पळयल्यार चारूय वटांनी पुलीस. तरिकूय त्या वेळार हांव थंड कसों हाचेंच म्हाका अजाप दिसलें. म्हजे भितर कसलीच संवेदना वा चलबिचल जावंक ना. म्हाका पुलिशेन कादयेंत व्हेलो. दुसऱ्याच दिसा म्हाका एका म्हयन्या खातीर रेल्वे पुलिशेचे बंदखणींत व्हेलो. बरेच दीस पुलीस अधिकाऱ्यां कडेन उलयतकीर हावें तर्क काडलो त्या प्रमाण काकोरी पार्टी आनी क्रांतीकारी चळवळींतल्या म्हज्या संबंदां विशीं तांकां कांय म्हायती मेळिल्ली. तांणी म्हाका सांगिल्ल्या प्रमाण काकोरीचो खटलो चलतालो तेन्ना हांव लखनौ आशिल्लों, तांकां सोडोवन हाडपा खातीर सल्लामसलत करून हांवे एक येवजण आंखिल्ली, ताका मंजुरी मेळटकीर हांवें बाँब हाडिल्ले, तांची चांचणी करपा खातीर एक बाँब 1926 वर्सा दसऱ्याचे मिरवणुकीचेर आमी उडयिल्लो. मुखार वचून तांणी म्हाका सांगलेंः जर हांवें क्रांतीकारी पक्षाच्या कार्याची तांकां म्हायती दीत जाल्यार म्हाका बंदखणींत घालचे बदला ते म्हाका न्यायालयांत माफीचो साक्षीदार म्हूण लेगीत उबो करिनासतना सोडून दितले. हो प्रस्ताव आयकून म्हाका हांसोच फुटलो. हीं सगळीं निखटीं बातां. आमचे सारके आदर्शवादी आपल्याच निश्पाप लोकांचेर बाँब उडयनात. एक दीस सक्काळींफुडें

तेन्नाचे सीआयडीचे वरिश्ठ-अधिक्षक श्री न्यूमन म्हजेसरीं आयले. पयलीं म्हाका सहानभुती दाखयत खूब उलयले. मागीर म्हाका दुखेस्त म्हूण सांगून बातमी सांगली. तांणी मागिल्लेवरी हांव बरोवन दिना जाल्यार काकोरी खटल्याच्या संदर्भांत राजसत्तेआड झूज उबारलें आनी दसऱ्याच्या बॉंब स्फोटांत म्हजो हात आशिल्लो म्हूण आरोप दवरून म्हजेआड खटलो चलयतले. म्हजेवेले हे आरोप सिद्ध करून म्हाका गोळाक मारपाइतले पुरावे तांचे लागीं आसात हेंय तांणी म्हाका सांगलें. हांव जरी तसों निरपराध आसलों तरी पुलीस तांकां जाय तें करपाक शकतात हें हांव जाणा आसलों. त्याच दिसा, दिसाक दोन फावट प्रार्थना सुरू कर म्हूण कांय पुलीस अधिकारी म्हजें मन वळोवंक लागले. आतां हांव तर पडलों नास्तीक. म्हज्या नास्तीकपणाचो अभिमान फकत सवस्तकाय आनी मजेच्या दिसांनीच उरता काय अशा कठीण प्रसंगारूय हांव म्हज्या तत्वांक दसून रावपाक शकतां तें म्हाकाय पळोवंक जाय आसलें. खूब विचार करून उपरांत हांवें थारायलें, देवाचेर विस्वास दवरून हांव ताची प्रार्थना करपाक शकना. ना, हांवें केलिना. हे सत्वपरिक्षेंतल्यान हांव येसस्वी जावन भायर सरलों. हेर कांय गजालींच्या बदल्यांत म्हजी गोमटी वांचोवची अशें म्हाका एक खीण लेगीत दिसलें ना. म्हणल्यारूच हांव एक कट्टर नास्तीक आशिल्लोंः आनी तेन्नासावन आसां. हे सत्वपरिक्षेंतल्यान वचप इतलें सोंपें नाशिल्लें. श्रद्धा कश्टांची खरसाण निवळायता, तांकां सुखदिणे लेगीत करता. देवा भितर मनशाक समाधान आनी मजतीचें बळगें मेळटा. तो नासत जाल्यार मनशाक स्वताचेरूच निंबून रावचें पडटा. वादळ आनी तुफानामदीं स्वताच्या पांयांचेर उबें रावप म्हणल्यार भुरग्यांचो खेळ न्हय. असल्या परिक्षेच्या खिणा वेळार झेत आसल्यार लेगीत तो देंवता. सर्वसादारण श्रद्धांक आव्हान दिवपाची कापस्ताद ताका जायना. जर तशी कापस्ताद तो दाखयत जाल्यार ते खातीर निखटो झेत न्हय तर दुसरेंच कसलें तरी बळगें ताचे लागीं आसचें पडटा. सध्या ही अशी परिस्थिती आसा. निकाल कितें लागतलो तें जगजाहीर

आसा. सोमना भितर तो अधिकृतपणान जाहिरूय जातलो. म्हज्या ध्येया खातीर हांव म्हजे जिणेचो त्याग करतां ही कल्पना सोडीत जाल्यार आनीक कसलें समाधान हातूंत आसा? असल्या वेळार श्रद्धाळू हिंदू आपणाक परत जल्म दितना राजाचो दी म्हूण मागतलो. मुसलमान वा क्रिस्तांव आसल्यार नंदनवनांत सुखसोयी मेळटल्यो आनी आतां मेरेन काडिल्ल्या त्रास आनी त्यागा खातीर इनाम मेळटलें अशीं सपनां पळयतलो. मागीर हांवें कितें अपेक्षा दवरप? हांव जाणा, ज्या खिणाक म्हजे गोमटे भोंवतणी गोळ लायतले आनी पांयांपोंदचें फळें ओडटले तो म्हजो निमणो खीण आसतलो. शेवटाचो खीण. अध्यात्मीक भाशेंत सांगपाचें जाल्यार म्हजो आत्मो त्या खिणाक थंयच सोंपतलो. मुखार आनीक कांय ना. तेच तरेन धैर्यवान जावन पळयतलों जाल्यार कसलोच भव्यदिव्य शेवट नाशिल्ली एक संघर्शमय अल्प जीण हेंच कितें तें म्हजें इनाम. बस्स. कसलोच सुवार्थ बाळगिनासतना हांगा वा फुडें आनीक खंयूय कसल्याच फळाची अपेक्षा दवरनासतना हांवें निरिच्छपणान म्हजी जीण स्वातंत्र्या खातीर ओंपली. कारण हाचे परस वेगळें कितेंय करप म्हाका शक्यूच नासलें. आपली जीण मनीसजातीचे सेवे खातीर आनी मनीसजातीक यातनांतल्यान मुक्ती दिवचे खातीर ओंपपाचें सोडून आनीक कांयच करूंक शकचे नात अशे मानसीकतेच्या लोकांचो आंकडो ज्या दिसा वाडटलो तो दीस म्हणल्यार मुक्तीची खरी फांतोड आसतली. राजा जावपाची आस तांकां आसचिना. हेर पुरस्कार जोडपाची आस आसचिना. मरणा उपरांत वा फुडल्या जल्मांत नंदनवनांत रावपाची आस आसचिना. उरफाटें पिडटल्यांक, शोशण करतल्यांक आनी जुलूम करतल्यांक आव्हान दिवन मनीसपणाचे गोमटेवेलें गुलामीचें जूं शेंवटून मारून स्वातंत्र्य आनी शांतीचें राज्य हाडपा खातीर तांकां स्फूर्त मेळटली. व्यक्तिशा हो मार्ग तांचे खातीर धोक्याचो आसत, पूण गौरवाशाली जिणेचें दर्शन घडोवपी मार्ग हो एकूच. ह्या उदात्त ध्येया खातीर हांव वावुरतां हाचो अभिमान बाळगप म्हणल्यार झेत मारप असो

अर्थ काडप कितलें बरोबर? तांकां अशी तिरस्करणीय उपाधी दिवप कितलें बरोबर? हांकां हांव एक तर मूर्ख म्हणीन वा फटींग. आमी तांकां भोगसुया. कारण आमच्या सारक्या लोकांच्या काळजांतले उमाळे, प्रामाणीक भावना वा खोलाय तांकां समजल्लीच ना. तांचें काळीज म्हणल्यार एक मांसाचो गुळो जाला. तांच्या दोळ्यांचेर साय आयल्या. कसल्या तरी हितसंबंदांचीं भुतां तांचे गोमटेर बसल्यांत. स्वावलंबनाचो अर्थ झेत म्हणून काडप सहज शक्य आसा. हाचें वायट दिसता आनी तांची काकुळट येता; पूण इलाज ना.

तूं जेन्ना प्रचलीत आशिल्ले श्रद्धेक विरोध करता वा केन्नाच चुकना आनी टिके पलतडीं पावला अशी प्रतिमा आशिल्ले खंयचेय हिरो जाल्ले व्यक्तीचेर वा म्हान विभुतीचेर टिका करता तेन्ना तुज्या युक्तीवादाच्या बळग्याक विरोध करपा खातीर तुका गर्विश्ठ म्हणप होच पर्याय तांचे मुखार उरता. मानसीक कोंड जातकीर हें अशें जाता. टिका आनी स्वतंत्र विचारशक्त ह्या दोन गुणांबगर कोणूच क्रांतीकारक जावंक शकना. महात्माजी म्हान, म्हणटकीर तांचेर कोणें टिका करपाक जायना. ते उंचेल्या पांवड्यार पावल्यात, म्हणटकीर राजकारण वा धर्म, अर्थकारण वा नितीमत्ता ह्या सगळ्या मळांचेर ते सांगतात तें बरोबर. मागीर तुमकां तें पटूं ना पटूं, तुमी सांगपाचें: "हय, ते सांगतात तें बरोबर." ही मानसीकता आमकां उदरगती कडेन व्हरचिना. उरफाटें, अर्थातच, ही प्रतिगामी मानसीकता.

आमच्या जाण्टेल्यांनी देव नांवाची एक शक्त आसा अशी श्रद्धा तयार केल्ली. म्हणटकीर आतां हे श्रद्धेक जो कोण आव्हान दिता आनी ते शक्तीच्या अस्तित्वा विशींच दुबाव घेता ताका धर्मभ्रश्ट आनी नीच थारावपाचें. जर प्रतिवाद करून लेगीत ताचे युक्तीवाद खोडून काडपाक जायनात आनी देवाचो कोप जावन ताचेर संकश्ट येतलें अशें भिसडावन लेगीत तो आपल्या मतां कडेन खंबीर रावता जाल्यार ताका गर्विश्ठ म्हणपाचें आनी ताची वृत्तीच झेत मारपाची म्हूण ताची धजा मारपाची. तशें जाल्यार ही निरर्थक भासाभास करपांत वेळ कित्याक वगडावप? ह्या सगळ्या मतां विशीं

वादच कित्याक घालप? हो प्रस्न पयलेच खेपे लोकां मुखार आयला आनी पयलेच खेपे इतल्या सडेतोडपणान तो हाताळ्ळा. देखून, हाचेर इतली सविस्तर भासाभास जावपाची गरज उप्रासल्या.

पयल्या प्रस्ना विशीं उलयतलों जाल्यार झेत मारपाचे वृत्तीन म्हाका नास्तीक केल्लो ना हें हांवें स्पश्ट केलां. म्हजो युक्तीवाद कितलो पटपासारको आसा वो ना तें हांवें न्हय, वाचकांनी थारावपाचें. मात हांव एक जाणा. आयचे परिस्थितींत देवाचेर विस्वास दवरल्यार ही जीण सोंसप म्हाका चड सोंपें जावपाचें. म्हज्या मनावेलें वजें ल्हव जावपाचें. देवाचेर विस्वास नाशिल्ल्यान परिस्थिती चडूच निबर जाल्या, वातावरण खर जालां. थोडोसो गूढवाद आपणायिल्लो जाल्यार ही जीण काव्यमय जावपाची. पूण म्हजे मुखार जें कितें वाडून दवरलां ताका फुडो करपा खातीर कसल्याच घुंवळी वखदाची म्हाका गरज ना. हांव वास्तववादी. म्हजी तर्कशुद्धता वापरूनच म्हजे भितरले निसर्गीक वृत्तीचेर म्हाका मात करपाची आसा. हें करप म्हाका सदांच शक्य जालां अशें न्हय. पूण प्रयत्न आनी धडपड करत रावप हें दरेका मनशाचें कर्तव्य. सरभोंवतणची परिस्थिती आनी शक्याशक्यतेंतल्यान येस हातासपाक मेळटा.

आतां दुसरो प्रस्न म्हणल्यार जर तो पोको झेत नाशिल्लो जाल्यार पुर्वापार चलत आयिल्ली देवाच्या अस्तित्वाची संकल्पना आनी श्रद्धा फट थारावपाक दुसरें कितें तरी कारण आसचेंच पडलें. हय; हांव आतां त्या प्रस्नाचेर येतां. कारण आसाच. म्हज्या मतान तर्कशुद्धता आनी विवेकबुद्द आशिल्लो खंयचोय मनीस आपले भोंवतणचे परिस्थितीची कारणमिमांसा करतलोच. जंय प्रत्यक्ष पुरावे नासतात थंय तत्वज्ञान म्हत्वाचें थारता. हांवें पयलीं सांगिल्ल्या प्रमाण म्हजो एक क्रांतीकारी इश्ट सांगतालो - तत्वज्ञान मनशाच्या दुबळेपणांतल्यान तयार जाता. ह्या संवसाराचो भूतकाळ, वर्तमानकाळ आनी भविश्यकाळ आनी ताचें गूढ सोडोवपा खातीर आमच्या पुर्वजांलागीं वेळ खूब आशिल्लो, पूण पुरावे नाशिल्ले. तेन्ना तांणी आपापले पद्दतीन हें गूढ

कशें कितें तें सोडोवपाचो यत्न केलो. देखूनच वेगवेगळ्या धर्मांच्या मूलतत्वां मदीं आमकां वेगवेगळी कारणमिमांसा सांपडटा. केन्ना केन्ना हो फरक परस्पर विरोधी आसता आनी एकामेकां मदीं संघर्श निर्माण करता. हातूंत पुर्वेच्या आनी पश्चिमेच्या तत्वज्ञानांमदींच फरक आसा अशें न्हय, पूण एकाच वाठारांत लेगीत विंगड विंगड तत्वप्रणाल्यो आमकां सांपडटात. पुर्वेंतल्या धर्मां मदीं मुसलमान धर्म आनी हिंदू धर्माचें खंयच जुळना. एका भारतांतच बौद्ध आनी जैनांमदीं फरक आसा आनी ब्राह्मण्यवाद ताचे परस कितलोसोच वेगळो आसा. तातूंतय परत आर्य समाज आनी सनातन धर्म असो फरक आसा. चार्वाक हो तर प्राचीन भारतांतलो आगळोच तत्वचिंतक. त्या आदल्या काळांत ताणें देवाच्या अस्तित्वाक आव्हान दिल्लें. सगळ्या पंथांमदीं हे भेदाभेद आसात ते तांच्या मूलभूत प्रस्नांचेर. आनीक तरिकूय आपलीच तत्वप्रणाली खरी अशें दरेका पंथाचें ठाम मत आसता. हेंच तर दुर्भाग्य. अज्ञाना आड चलिल्ल्या आमच्या झुजांत ह्या ऋषीमुनींनी आनी तत्वज्ञांनी केल्ल्या प्रयोगांचो उपेग करून घेवन ह्या गूढ प्रस्नांची जाप सोदून काडपा बदला त्या कट्टर, निग्रही आनी चिरंतन श्रद्धेचें स्तोम माजोवन आमी आमची वैचारीक दिवाळखोरीच जाहीर करतात. पर्यायान आमची वैचारीक आळसाय सिद्ध करून मनशाचे उदरगतीचे प्रक्रियेंत आडखळ हाडपाचो गुन्यांव करतात.

जो मनीस उदरगत करूंक सोदता ताणें आदल्या श्रद्धांच्या मुद्यांचेर टिका करपाकूच जाय आनी तांकां आव्हानूय दिवंकूच जाय. प्रचलीत श्रद्धेचे खांची कोनशे सोदून काडून दरेका ल्हानसान मुद्याची विवेकनिश्ठ चिकित्सा करपाक जाय. हे खर कारणमिमांसेंतल्यान जर कोणूय एखाद्र्या सिद्धांताचेर वा तत्वज्ञानाचेर विस्वास दवरपाक लागलो जाल्यार ताका आमी येवकार दिवंक जाय. ताची कारणमिमांसा घडये चुकीची, दिशाभूल करपी वा फटीची लेगीत आसूंक शकता. पूण तो स्वताची चूक सुदारपाक शकता. कारण कारणमिमांसा ही ताचे जिणेची मार्गदर्शक आसता. ते

दिश्टीन पळयल्यार फकत श्रद्धा आनी अंधश्रद्धा ही धोक्याची. ती मेंदूक झेमयता आनी मनशाक प्रतिगामी करता. जो मनीस स्वताक वास्तववादी म्हणटा ताणें पुराय प्राचीन श्रद्धेक आव्हान दिवंकूच जाय. जर ती विवेकनिश्ठ कारणमिमांसेचे हल्ले आडावपाक शकना तर ती आपसूक कोसळून पडटली. तेन्ना ताची पयली जापसालदारकी म्हणल्यार ती पुरायेन मोडून कुशीक काडप आनी नवें तत्वज्ञान उबारपाक सुवात करून दिवप. ही जाली न्हयकारात्मक बाजू. उपरांत सुरू जाता ती सकारात्मक बाजू. ह्या पुनर्बांदावळीच्या कामांत घडये आदले श्रद्धेंतल्या कांय तर्कशुद्ध मुद्यांचो वापर करपाक जाता. हांव म्हजे बाबतींत तरी एक गजाल पयलींच मान्य करतां. ह्या गजालींचो म्हाका खोलायेन अभ्यास करपाक मेळ्ळो ना. पुर्वेच्या तत्वज्ञानाचो अभ्यास करपाची म्हजी खूब इत्सा आशिल्ली. पूण म्हाका तशी संदूच मेळ्ळी ना. पूण न्हयकारात्मक मुद्यां विशीं म्हणशात जाल्यार पोरण्या श्रद्धांचे विश्वसनीयतेचेर दुबाव घेवपा इतल्यो गजाली तरी म्हाका पटल्यात. सैमांतल्या घडणुकांचेर नियंत्रण दवरपी आनी तांकां मार्गदर्शन करपी कसलीच जाणती शक्त ह्या संवसारांत अस्तित्वांत ना हाची म्हाका पुराय खात्री आसा. आमी विस्वास सैमाचेर दवरतात. देखून आपले सेवे खातीर मनशान सैमाक आपल्या शेकातळा हाडप हीच पुरोगामी चळवळीची मोख आसूंक जाय. तिका मार्गदर्शन करपी दुसरी कसलीच शक्त ताचे फाटल्यान ना. हें आमचें तत्वज्ञान.

हे न्हयकारात्मक बाजून आमी आस्तिकां वटेन कांय प्रस्न विचारयाः

(1) तुमचे श्रद्धेप्रमाण जर ही पृथ्वी वा हें विश्व त्या सर्वव्यापी, सर्वज्ञ आनी सर्वशक्तीमान अशा विधात्यान घडयलां तर तें कित्या खातीर घडयलां हें म्हाका मातशें सांगशात? दुख्ख आनी दळडिरान भरिल्लो हो संवसार, सासणाची शोकांतिकांनी भरिल्ली वास्तवता : एक जितो मनीस पुरायेन समाधानी ना.

करात प्रार्थना, पूण होच ताचो कायदो अशें म्हणनाकात. जर तो कायद्यांनी

बांदिल्लो आसा तर तो सर्वशक्तिमान कसो कितें? तो आमचेच वरी आनीक एक गुलाम जालो. ताचे खातीर ती मजा करपाची गजाल म्हूण सांगशात. निरोन एक रोम लासलें. ताणें त्या मानान खूब उण्या लोकांक जितेच मारले. ताणें आपले मजे खातीर म्हूण कांय शोकांतिका घडयल्यो. ताची आज इतिहासांत सुवात कितें? इतिहासकार ताका कितें म्हणून पाचारतात? सगळ्या तरांच्या विखाळ विशेशणांचो ताचेर शिंवर जाता. जुलमी, काळीज नाशिल्लो, दुश्ट, विकृत अश्यो ताच्यो बकच्छायो करीत इतिहासाचीं पानांचीं पानां भरल्यांत. मजे खातीर म्हूण एका चेंगिझखानान हजारांनी जीव घेतले आनी आमी आज ताच्या नांवाचो लेगीत तिरस्कार करतात. मागीर सासणाचो निरो जावन दर दिसा, दर वराक आनी दर मिनटाक अमर्याद शोकांतिका घडयत वचपी त्या सर्वशक्तिमानाचें तुमी कशें कितें समर्थन करतले? दर खिणाक चेंगिझखानाक लेगीत लज करपा सारक्यो करण्यो करतल्याक तुमी कशे कितें तेंको दितले? हांव विचारतां - तशें जाल्यार सतत कोडू असंतोशान खदखदपी हें नरकासमान जग ताणें घडयलेंच कित्याक? जेन्ना मनीस घडयनासतना रावपाची शक्त ताचे भितर आशिल्ली तेन्ना ताणें मनीस घडयलोच कित्याक? हाचे खातीर समर्थन कितें? पापी लोकांक ख्यास्त भोगयतनाच निश्पाप लोकांकूय यातना भोगपाचें बक्षीस दिवप? व्वा व्वाः जर एखाद्र्या मनशान उपरांत जिवाक थाकाय मेळपी मलम चोळटले म्हूण सांगून पयलीं आंगभर घाय केले जाल्यार तुमी ताका कितें म्हणटले? अर्दपोटार भुकेन चवताळिल्ल्या शिंवांमुखार मनशांक उडोवप आनी तातूंतल्यान ते वांचलेच जाल्यार मागीर तांची जतनाय घेवप ह्या ग्लॅडियेटर संस्थेच्या खेळाच्या आयोजक आनी प्रेक्षकांचे करणेचें तुमी कशें समर्थन करतले? ताका लागून हांव विचारतां, ‘‘इतल्या जाणकार विधात्यान हो संवसारूच कित्याक घडयलो आनी तातूंत मनीस जात निर्माण केली? मजा मारपा खातीर? मागीर ताचे मर्दीं आनी निरो मर्दीं फरक कितें?’’

तुमी मुसलमान आनी क्रिस्तावांनोः हिंदू तत्वज्ञानाचो आनीक कितें ना

कितें तरी युक्तीवाद आसतलोच. म्हजो प्रस्न सादो. वयर विचारिल्ल्या प्रस्नांक तुमची जाप कितें? आदल्या जल्माचेर तुमचो विस्वास ना. हिंदूंवरी आदल्या जल्मांत केल्ल्या पापाची खास्त हे निशपाप लोक ह्या जल्मांत भोगतात असो युक्तीवाद तुमी तरी करपाक शकनात. आतां हांव तुमकां विचारतांः ह्या संवसाराची निर्मणी करपाक त्या सर्वशक्तिमानान स दीस कित्याक लायले आनी दर दिसा ''सगळें कितें बरें आसा'' अशें कित्याक सांगलें? आजूच विचारात ताका. ताका दाखयात फाटलो सगळो इतिहास. आयची परिस्थिती पळय म्हूण सांगात ताका. पळोवया तो सांगता जाल्यार - ''सगळें कितें बरें आसा.''

पळोवं दी ताका कादयेंतल्या कुडांतल्यान. पळोवं दी झोपडपट्ट्यांनी भुकेन तडफडटल्या लाखांनी लोकांक. पळोवं दी भांडवलदारांनी रगत पीत पिळीत दवरिल्ल्या कामगारांक. हें पळोवन खंयच्याय सामान्य मनशाच्या आंगार कांटो उबो रावतलो. पळोवं दी रोवनूय भुके आशिल्ल्यांक धान वांटनासतना चड जालां म्हूण तें दर्यांत उडोवपाच्यो करण्यो. पळोवं दी मनशांच्या हाडांची बुन्याद घालून उबारिल्ल्या राजवाड्यांक... हें सगळें पळोवनूय ताणें सांगूं दी - ''सगळें कितें बरें चल्लां.'' कित्याक आनी कोणा खातीर? बरें आसा, हांव मुखार वतां. आतां, हिंदुनो, तुमी म्हणटात आज यातना भोगतात ते सगळे फाटल्या जल्माचे पापी. वालोर. म्हणल्यार तुमच्या मतान आज सत्ता भोगून लोकांक सतायतात ते फाटल्या जल्माचे पुण्यवान. तसल्यार हांव म्हणीन, तुमचे पूर्वज भितरले बुद्दीचे आशिल्ले. तर्कशुद्धता आनी अश्रद्धा कुशीक मारपा खातीर तांणी हे असले सिद्धांत तयार केले. तरिकूय पुर्वजल्माचो हो युक्तीवाद कितलो घट आसा तेंय पळोवया.

भोवतेक सगळ्या नामनेच्या कायदे पंडितांच्या मतान ख्यास्त दिवपाचें समर्थन चडांत चड तीन ते चार तरांनी जावपाक शकता. ती ख्यास्त ताका भोगपाक लायतात. तातूंतल्यो मुखेल तीन तरा म्हणल्यार प्रायश्चीत्त दिवप,

गुन्यांवकाराक सुदारप आनी गुन्यांव करपापसून ताका आडावप. तातूंतली प्रायश्चीत्त दिवपाची तरा हालींच्या तेंपार सगळ्याच तज्ञांनी निशेध करून भायर मारल्या. गुन्यांव करपा पसून आडावपा खातीर ख्यास्त हीय तरा तशीच कालबाह्य थारायल्या. सुदारप ही एकूच तरा गरजेची. मनशाचे उदरगती खातीर अपरिहार्य. गुन्यांवकाराक कार्यक्षम आनी शांतीप्रिय नागरीक म्हूण परत समाजांत हाडप ही ख्यास्त दिवपा फाटली मोख. हे परिस्थितींत गुन्यांवकार म्हूण थारायिल्ल्या लोकांक ख्यास्त दिवपाची देवाची तरा कसली? देव तांकां गाय, माजर, झाड, मूळ वा जनावर म्हूण पुनर्जल्म दिता अशेंय तुमी सांगतात. तुमी तांचो आंकडो थारायला - 84 लाख. हांव तुमकां विचारतां - मनशाक सुदारपाचे दिश्टीन ताचो उपेग कितें? पाप केल्लें म्हूण फाटल्या जल्मांत हांव गाढव आशिल्लों अशें सांगपी कितले लोक तुमकां मेळ्ळ्यात? कोण्ण ना. पुराणांचो हवालो दिनाकात. तुमच्या पुराणां विशीं सांगपाक म्हाका आतां वेळ ना. उरफाटें, तुमी जाणात, गरीब आसप हें ह्या संवसारांतलें सगळ्यांत व्हडलें पाप? गरिबी हें पाप; ख्यास्त ती. असले ख्यास्तींतल्यान आनिकूय गुन्यांव करपाक प्रवृत्त करपाक लावपी खंयच्या गुन्यांवशास्त्रज्ञाची, जुविजाची वा आमदाराची तुमी तुस्त करतले? तुमच्या मतान तुमच्या देवान हाचेर विचार केलो ना? काय मनीसजातीक हाल काडपाक लावन तुमच्या देवाकूय हें अणभवांतल्यानूच शिकचें पडलें? चांभार वा अशिक्षीत कुटुंबांत जल्माक आयिल्ल्या मनशाची गत कितें अशें तुमकां दिसता? तो गरीब, म्हणटकीर तो शिकपाक शकना. ताचे वांगडचे मनीस फकत उंचेले जातींत जल्माक आयल्यात म्हणून ताचो तिरस्कार करतात? ताचें अज्ञान, ताची गरिबी आनी ताका दिल्ली वागणूक हांकां लागून समाजा विशीं ताच्या मनांत कोडसाणूच तयार जातली. समजा तातूंतल्यान ताणें पाप केलें जाल्यार ताचो परिणाम कोण भोगतलो? देव, तो, काय समाजांतले सुशिक्षीत? तांकां जाणा जावन अज्ञानी दवरपाची ख्यास्त दिवपी मदांध आनी अहंकारी ब्राह्मणांचें कितें? तुमचे पवित्र ग्रंथ -

वेद - आयकले म्हूण तांच्या कानांत शिशें ओंतपी लोकांचें कितें? तांणी केल्ल्या गुन्यावांक जापसालदार कोण? ताचे परिणाम कोणें भोगपाचे? म्हज्या मोगाळ इश्टांनो, हे सगळे सिद्धांत त्या मूठभर प्रस्थापितांचे. ह्या सिद्धांतावरवीं ते आपली सत्ता, गिरेस्तकाय आनी श्रेशठत्वाचें समर्थन करतात. हय, अप्टॉन सिनक्लॅरान बरोवन दवरिल्लेवरी मनशाक अमरत्वाचेर विस्वास दवरपाक लायात आनी मागीर ताका जाय तसो नागयत वचात. आपणाक नागोवन घेवपाक पसून तो तुमकां मजत करतलो. धर्मोपदेशक आनी सत्ताधाऱ्यांचे युतींतल्यानच कादयो, वधस्तंभ, दांडे आनी हे असले सगळे सिद्धांत जल्माक आयल्यात.

हांव विचारतां - तुमचो हो सर्वशक्तिमान देव खंयच्याच मनशाक पाप वा गुन्यांव करपा पसून आडायना कित्याक? ताका तें सहज शक्य आसा. ताणें ह्या युद्धां करतल्यांक जितेच कित्याक मारून उडयले नात? ह्या म्हान युद्धांतल्या हत्याकांडांतल्यान मनीसपणाक काळो दाग लावपी ह्या युद्धाच्या आवेशाकूच ताणें कित्याक मारून उडयलें ना? भारताक स्वतंत्र करपाची भावना ब्रिटिशांच्या मनांत ताणे कित्याक जागृत केली ना? उत्पादनांच्या साधनांवेलो आपलो वैयक्तीक हक्क सोडचो अशी उमेदीची भावना ताणे सगळ्या भांडवलदारांच्या मनांत कित्याक तयार केली ना? समेस्त कामगार समाजाक आनी मनीसजातिकूच ह्या भांडवलदारांचे गुलामींतल्यान कित्याक सोडयली ना? समाजवादाचो सिद्धांत कितलो वेव्हारी आसा अशें तुमी विचारतात, न्हय? चला, समाजवाद प्रत्यक्षांत हाडपाचें हांव तुमच्या देवाचेरूच सोंपयतां. समाजवाद लोककल्याणा खातीर आसा आनी तो फायद्याचो आसा हें लोकूच मान्य करतात. मात तो वेव्हारी ना अशें निमित्य दिवन ते ताका विरोध करतात. आतां देवाकूच मध्यस्थी करूं दी आनी सगळें कितें वेवस्थीत जाग्यार घालूं दी. आतां तो कालबाह्य जाला असले गुळगुळीत युक्तीवाद करशात. तुमकां सांगतां, ब्रिटिश हांगा आसात ते देवाची इत्सा आसा म्हणून न्हय तर तांचे लागीं सत्ता आसा आनी ते

सत्तेक विरोध करपाची धमक आमचे मर्दी ना म्हणून. देवाची मजत घेवन ते आमचेर शेक चलयनात. तांचे लागीं आशिल्ल्यो बंदुको आनी रायफली, बाँब आनी गुळयो, पुलीस आनी मिलिटरी आनी आमची उदासीनता हांकां लागून एका देशान दुसऱ्या देशाची पिळवणूक करपाचें, मनीसजातीक कलंक लावपाचें हें पाप येसस्वीपणान ते करीत आसात. खंय आसा देव? कितें करता तो? मनीसजातीक जावपी यातना पळयता, मजा मारता? निरो जावन, काय चेंगिझखान जावन? धिक्कार असल्या देवाचो!

हो संवसार आनी मनीस कसो उत्पन्न जालो हाचेर म्हजे कडल्यान तुमकां स्पश्टीकरण जाय? बरें, तेंय सांगतां. चार्लस् डार्विनान हाचेर कांय प्रमाणांत उजवाड घातला. तो शिकात. सोहम स्वामाचें 'कॉमन सॅन्स' वाचात. कांय प्रमाणांत हांवूय तुमच्या प्रस्नाची जाप दितां. हें सैमाचें अजाप. तेजोमेघांच्या अपघाती मिश्रणांतल्यान ही पृथ्वी तयार जाली. केन्ना? इतिहासाक विचारात. हेच प्रक्रियेंतल्यान प्राणीमात्र आनी खूब तेंपान मनिसूय तयार जालो. डार्विनाचें 'ओरिजिन ऑफ स्पिसीस' वाचात. ते उपरांत मनशान निसर्गा कडेन केल्लो संघर्श आनी निसर्गाचेर मात करपाचो केल्लो यत्न हातूंतल्यान उदरगत जायत आयल्या. ह्या अजापाचें हें थोडे भितर दिल्लें स्पश्टीकरण.

आतां फाटल्या जल्मांत पाप केलें ना जाल्यार खंयचेंय भुरगें कुड्डें वा अपंगूळ म्हूण कित्याक जल्माक येता असोय प्रस्न तुमी विचारतले. ही जीवशास्त्रीय प्रक्रिया हें हाचे आदींच कितल्याशाच जीवशास्त्रज्ञांनी सांगून दवरलां. जल्माक येवचे पयलींच ताका अपंगूळ करपाचें काम त्या भुरग्याच्या आवय-बापाय कडल्यानूच, जावं जाणविकायेन वा अज्ञानांतल्यान, जाता अशें ते सांगतात.

अर्थात, भुरगेपणां कसो दिसपासारको आनीक एक प्रस्नूय तुमी विचारतले. देव अस्तित्वांत ना जाल्यार मागीर लोक ताचेर श्रद्धा कशे कितें दवरपाक लागले? हाका म्हजी तरी सादी आनी सरळ जाप. जशे भुताखेतांचेर आनी

पिशाच्चांचेर विस्वास दवरपाक लागले तशेच. मात देवावेली श्रद्धा ही वैश्वीक स्वरुपाची आसा आनी ती तशे तरेन विकसितूय केल्या. कांय जहालमतवाद्यांच्या मतान पिळवणूक करपी व्यक्तींक समेस्त लोकांक आपल्या शेकातळा दवरपाक जाय आशिल्लें आनी ते खातीर ह्या संवसारांत बळिश्ठ अशी एक शक्त आसा तिच्या आदेशा प्रमाण आमी हो शेक चलयतात अशी भावना ह्या पिळवणूक करतल्यांनी करून दवरल्या. म्हाका हें मत पुरायेन मान्य ना. पूण निमाणे ह्यो सगळ्यो श्रद्धा, हे धर्म आनी हे पंथ सामान्य लोकांची पिळवणूक करपी संस्थांच्या हातांत गेले हें मात तांचें म्हणणें साप्प खरें. राजा आड उठाव करप हें पाप अशें सगळेच धर्म सांगतात.

म्हज्या मतान मनशाच्यो मर्यादा, ताचीं दुबळेपणां आनी उणाकपणांतल्यान देवाची संकल्पना तयार जाली. सगळ्या तरांच्या परिस्थितींक तोंड दिवचे खातीर, संकश्टांक फुडो करचे खातीर आनी समृद्धीच्या काळांत लेगीत मनशाचे वागणुकेचेर ताबो दवरचे खातीर हो कल्पनेंतलो देव तयार जालो. फुडें मागीर ताका नेमावळींत बांदीत आनी आवय-बापायची उदार सहृदयता दाखयत ताचें आनिकूय रंगरंगयाळें चित्र रंगत गेलें. मनीस समाजविघातक जावचो न्हय देखून प्रतिरोधकाच्या स्वरुपांत ह्यो नेमावळी तयार जाल्यो. एका पालकाचे नदरेन तो आवय, बापूय, भाव, भयण, इश्ट आनी मजतगार कसो तयार जालो. म्हणटकीर विस्वासघात जातकीर वा आपल्याच लोकांनी वा इश्टांनी कुशीक मारतकीर मनीस जेन्ना निराश जाता तेन्ना आपणाक मजत करपी अजून एक इश्ट आसा ही देवत्वाची कल्पना ताच्या मनाक थाकाय दिता. तो सर्वशक्तिमान आशिल्ल्यान कितेंय करूंक शकता. आदिमानवाच्या युगांत ही कल्पना खऱ्यांनीच खूब उपेगाची आशिल्ली. निर्शेल्ल्या मनशाक देवाची कल्पना व्हड आदार जाताली.

मुर्तीपुजा, धर्माच्यो मर्यादींत संकल्पना आनी देवा विशींच्या ह्या

श्रद्धांआड समाजान झगडपाची आज गरज आसा. तशेंच आपल्या पांयांचेर उबो रावतकीर आनी वास्तववादी जातकीर मनशान ह्यो सगळ्यो श्रद्धा कुशीक मारूक जाय आनी परिस्थितींतल्यान तयार जावपी निर्शेणी आनी त्रासांचेर मात करपाचो पुरुषार्थ ताणें दाखोवंक जाय. म्हजी अवस्था हे घडयेक अशीच आसा. म्हज्या इश्टांनो, हो म्हजो पोको झेत न्हय. म्हजे विचार करपाचे हे तरेन म्हाका नास्तीक केला. म्हजे विशीं उलयतलों जाल्यार देवाचेर श्रद्धा दवरल्यार आनी सुवार्थीपणान आनी निर्लज्जपणान देवाची सद्दां प्रार्थना केल्यार म्हाका मजत जावचे बदला म्हजी परिस्थिती आनिकूय वायट जातली असो म्हाका दुबाव आसा. नास्तीक सगळ्या संकश्टांक धैर्यान तोंड दितात अशें हावें आयकलां. तेन्ना हांवूय तेच भाशेन ताठ मानेन गोळार वतलों.

पळोवया हांव कसो किते करतांः म्हज्या एका इश्टान म्हाका सांगलें, देवाची आराधना सुरू कर. हांव नास्तीक म्हूण सांगतकीर तो म्हणपाक लागलो, ''तुज्या निमाण्या दिसांनी तूं देवाचेर विस्वास दवरपाक लागतलो.'' हावें सांगलें, ''ना, सायबा, तशें जावचें ना. म्हजे दिश्टीन ती म्हजी मानहानी आनी तें म्हजें खच्चीकरण आसतलें. म्हज्या आपसुवार्था खातीर हांव केन्नाच प्रार्थना करचों ना. वाचप्यांनो आनी इश्टांनो, हो पोको झेत? जर आसत, जाल्यार म्हाका ह्या झेताचो अभिमान आसा.

# 'द ड्रीमलॅण्ड' खातीर प्रस्तावना

म्हजो इश्ट एल राम सरण दासान ताच्या 'द ड्रीमलॅण्ड' ह्या कविता संग्रहा खातीर म्हाका प्रस्तावना बरोवंक सांगल्या. हांव कवीय न्हय, साहित्यिकूय न्हय, पत्रकारूय न्हय आनी समिक्षकूय. देखून कसल्याच कल्पनाविलासांतल्यान ताचे हे मागणेचें समर्थन जावंक शकना. पूण हांव आसा ते परिस्थितींत ताचे कडेन हे विशीं आरती परती भासाभास करपाची संद म्हाका मेळप शक्य ना. म्हणटकीर म्हज्या इश्टाची इत्सा भागोवपा बगर म्हजे कडेन दुसरो कसलोच पर्याय ना.

हांव कवी न्हय. म्हणटकीर ते दिश्टीन हांव हाचेर कसलेंच भाश्य करचों ना. म्हाका वृत्तछंदाचें कसलेंच गिन्यान ना. तेन्ना ते दिश्टीन ह्या कविता संग्रहाचें मोजमाप केल्यार तें बरोबर आसतलें काय किर्ते तें हांव नकळों. हांव एक साहित्यिकूय न्हय. तेन्ना राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या साहित्यांत हो संग्रह खंय बसता ताचीय चर्चा हांव करचों ना.

हांव एक राजकी कार्यकर्तो आशिल्ल्यान चडांत चड ते दिश्टीन हांव ह्या संग्रहाची चिकित्सा करपाक शकतां. पूण हांगाय एक गजाल म्हजें काम अशक्य करून दवरता, वा कुस्तार तरी करताच. लेखकाच्या लिखाणा कडेन सहमत आशिल्ल्यानूच प्रस्तावना बरोवची असो प्रघात आसा. पूण हांगा तशीय परिस्थिती ना. भोवतेक सगळ्याच विशयांचेर म्हजें आनी म्हज्या इश्टाचें पटना. कितल्याश्याच गजालींचेर आमचे मतभेद आसात हें तो जाणा. म्हणटकीर म्हजें बरप एक प्रस्तावनाय जावची ना. म्हजें हें बरप म्हणल्यार चडांत चड टिका जावंक शकता. तेन्ना ताची सुवात पुस्तकाचे सुरवेक न्हय, तर शेवटाक आसपाक जाय.

राजकी मळाचेर 'द ड्रीमलॅण्ड' पुस्तकाक खूब म्हत्वाची सुवात आसा. आयचे परिस्थितींत चळवळींत तयार जाल्लें अंतर हें पुस्तक भरून काडटा. तशें पळोवंक गेल्यार आधुनीक भारताच्या इतिहासांत उब्या राविल्ल्या सगळ्याच राजकी चळवळींक एक थारावीक उद्दिश्ट आशिल्ली मोख नाशिल्ली. क्रांतीकारी चळवळ लेगीत हाका अपवाद ना. हांवें प्रयत्न करून लेगीत आपूण कित्या खातीर झगडटां हाची स्पश्ट कल्पना आशिल्लो एक्लूय राजकी पक्ष म्हाका गावलो ना. सोडून गदर पार्टी. अमेरिकन पद्दतीच्या सरकारांतल्यान स्फूर्त घेवन घडिल्ली ही पार्टी प्रजासत्ताक पद्दतीची सत्ता हाडपाचें उद्दिश्ट दवरून वावुरता. हेर सगळ्या पक्षांतले लोक परकी सत्ते आड झगडप हें एकूच उद्दिश्ट घेवन झगडटात. तांचें हें उद्दिश्ट तोखेवपासारकें आसत, पूण क्रांतीकारी स्वरुपाचें म्हणूं नजो. एक गजाल आमी स्पश्ट करपाक जाय. क्रांती म्हणल्यार फकत उठाव न्हय वा रक्तरंजीत लढो न्हय. क्रांती म्हणल्यार पयलीं सध्याची कार्यपद्दत (म्हणल्यार सत्ता) पुरायेन नश्ट करप आनी उपरांत नवे आनी योग्य बुन्यादीचेर पद्दतशीरपणान पुनर्रचणूक करपाची कार्यावळ.

राजकी मळाचेर नदर मारल्यार एक गजाल दिसता. मवाळांक ह्या सरकारा खाला कांय सुदारणा जाय आसल्यो. दुसरे वटेन जहालांक ताचेकय चड जाय आसलें आनी ते खातीर तितलेच जहाल मार्ग आपणावपाची तांची तयारी आसली. क्रांतीकारक तर अतिरेकी मार्ग आपणावपाचे आनी परकी सत्ता उमथून उडोवपाची इतलेंच जाणा आसले. हातूंतल्यानय कांय सुदारणा करच्यो अशी विचारसरणी हातूंतल्या कांय क्रांतीकारकांमदीं आशिल्ली हातूंत दुबाव ना. पूण तरिकूय ह्यो सगळ्योच चळवळी क्रांतीकारी स्वरुपाच्यो आशिल्ल्यो अशें निखालस म्हणूं नजो.

पूण, एल राम सरण दास हो एका फरारी बंगालीन 1908 वर्सा पंजाबांत भरती केल्लो पयलो क्रांतीकारी. तेन्नासावन तो कितल्याशाच क्रांतीकारी चळवळींच्या संपर्कांत आशिल्लो आनी निमाणें गदर पार्टींत सामील जाल्लो.

पूण तरिकूय त्या आदल्या चळवळींच्याच उद्दिश्टांक दसून रावलो. हातूंत आनीक एक मजेची गजाल आसा. एल राम सरण दासाक 1915 वर्सा मृत्युदंडाची ख्यास्त फर्मायल्ली. उपरांत ती जल्मठेपेचेर आयली. आज त्याच मृत्युदंडाचे कादयेंत हांव स्वता बसून एक गजाल अधिकारवाणीन सांगपाक शकतां. मृत्युदंडापरस जल्मठेप ही चड खर ख्यास्त. एल राम सरण दासाक 14 वर्सां कादयेंत काडचीं पडलीं. तेन्ना दक्षिणेचे खंयचे तरी कादयेंत तांणी ह्यो कविता बरयल्ल्यो. कवीचे तेन्नाचे मानसीकतेचे आनी मानसीक संघर्शाचे ठशे उठल्यात ते तांच्या कवितांनी स्पश्ट जाणवतात. ताकाच लागून त्यो आनिकूय सोबीत जाल्यात आनी लक्ष ओडून घेतात. ह्यो कविता बरोवचे आर्दी कवी आपलेच निर्शेणे कडेन किंवाट्यान झगडटालो तें जाणवता. त्या दिसांनी बरे वागणुकेचो जबाब दिवन ताचे कितलेशेच कॉम्रेड सुट्टाले. सगळ्यांकूच, आनी ताका लेगीत, हे सुटकेचो मोह जातालो. बायल-भुरग्यांचे यादीन ह्या मोहांत आनिकूय भर पडटाली. ह्या निर्शेणेच्या खिणां कडेन संघर्श करतना ताणें कविते कडेन इश्टागत जोडली. देखून कवितेच्या पयल्याच परिच्छेदांत ताचो स्फोट जाता -

बायल, भुरगीं, इश्ट म्हाका रेवाडो घालतात
सरभोंवतणी विखारी सोरोप जावन

सुरवेकूच तो तत्वज्ञान उलयता. हें तत्वज्ञान म्हणल्यार बंगाल आनी पंजाबांतल्या सगळ्या क्रांतीकारी चळवळींचो कणो कसो. ताचो हो मुद्दो म्हाका निखालस मान्य ना. ह्या विश्वाची उत्पत्ती गूढविज्ञानांतल्यान आनी एक विशिश्ट उद्दिश्ट दवरून जाल्या (टेलियॉलॉजी) अशें ताचें मत. हांव मुळांत जडवस्तूवादी आनी ह्या विश्वाचो अर्थ कार्यकारणवादा कडेन लायतां. तरिकूय ताचीं मतां कालबाह्यूय नात आनी भोंवतणच्या वातावरणा परस वेगळींय नात. सध्या देशभर प्रचलीत आशिल्ल्यो कल्पना आनी ताणें मांडिल्ल्यो कल्पना वेगळ्यो नात. ताचे निर्शेणे कडेन संघर्श करपाक देवाची

प्रार्थना करपाचो मार्ग ताणें आपणायलो हें स्पश्ट जाणवता. पुस्तकाची सुरवातूच देव, ताची तोखणाय, ताची व्याख्या आनी ताचे वेले श्रद्धेक ओंपल्या. निर्शेणेंतल्यान निसर्गीकपणान आयिल्लो हो गूढवाद. शंकराचार्य आनी हेर हिंदू तपस्वींनी मांडिल्लें माया आनी मिथ्याचेंच तत्वज्ञान तातूंत परत मांडिल्लें मेळटा. पूण जडवस्तूवादी तत्वज्ञानांत ह्या विचारांक खंयच सुवात ना. पूण अशें म्हणून लेखकाचो हो गूढवाद क्षुद्र स्वरुपाचो वा खंत करपा सारको म्हणूं नजो. ताका ताची स्वताची अशी एक सोबीतकाय आनी मोहकताय आसा. त्यो कल्पना लेगीत स्फूर्तदिण्यो आसात. हेंच पळयात -

''तूं जा बुन्यादीचो फातोर एक अनामीक
आनी मिरय झेतान आपल्या हड्ड्यार
तें विराट आनी अवाढव्य वास्तूशिल्प,
यातना सोंसपाभितरूच सोद खरी मुक्ती.
नाका करूं दुस्वास त्यां चकचकपी कळसाच्या फातराचो
जाचेर शिंवरतात संवसारभरांतल्यान तोखणायेचीं फुलां'' अशेंच किर्ते किर्ते.

म्हज्या वैयक्तीक अणभवांतल्यान हांव एक गजाल खात्रेन सांगपाक शकतां. भुमिगत कार्यांत मनीस जेन्ना सतत 'कसलीच आशा बाळगिनासतना आनी कसलीच भिरांत दवरिनासतना' जोखमीचीं कामां करीत आसता, 'सन्मानाबगर आनी दखल घेनासतना बेवारशी कसो मरपाची ताची तयारी आसता', तेन्ना अशा गूढवादाची मजत घेवन तो सगळ्या मोहांचेर आनी इत्सांचेर मात करून आपलें नितीधैर्य तिगोवन दवरपाक शकता. तातूंतल्यान निर्शेणी येना. दुसरी गजाल म्हणल्यार तो क्रांतीकारकाचे मानसिकतेचो वेध घेता. एल राम सरण दास हो कितल्याशाच हिंसक घडणुकांक जापसालदार धरिल्ले एके क्रांतीकारी संघटनेचो वांगडी आशिल्लो. पूण अशें म्हणून क्रांतीकारी हे रक्तपिपासू राकेस आसतात आनी विध्वंस करपांत

तांकां खोस भोगता असो ताचो अर्थ न्हय. वाचातः

''पडली गरज, जाल्यार जायात भायल्यान क्रुद्ध भोव
पूण भितरल्यान मात काळीज आसुंदी सदांच मोव
सोडात फुत्कार, गरज पडल्यार, पूण चाबनाकात
झगडात भायल्यान, काळजांतलो मोग मात सोडनाकात'' अशेंच किर्ते किर्ते.

रचणूक करतलो जाल्यार विध्वंस हो गरजेचोच न्हय, अपरिहार्य आसता. क्रांतीकारकांनी आपले कार्यावळीचो हो म्हत्वाचो मुद्दो करपाक जाय आनी हिंसा आनी अहिंसेचो सुमेळ सादपाक जाय हेंच हे कवितेंतल्यान सांगलां. लेनिनान खंय एक फावट गोर्कीक सांगिल्लें: म्हज्यो सगळ्यो संवेदना हालोवन सोडटलें आनी कलाकारांचे फाटीर थापटुपाक मेळटलें अशें संगीत हांव आयकुपाक पावलोंच ना. ''पूण'', ताणें फुडें सांगलें, ''हो वेळ फाटी थापटुपाचो न्हय. हो वेळ फाटीची चामडी काडपाचो. सगळे तरेची हिंसा नश्ट करप हो आमचो निमाणो उद्देश आसलो तरीय.'' आत्यंतीक गरज म्हणून हिंसक मार्ग आपणायतात तेन्ना खऱ्या क्रांतीकारकांची हीच भावना आसता.

फुडें वचून लेखक परस्परविरोधी धर्मांतल्यान तयार जाल्ल्या प्रस्नांक हात घालता. सगळ्याच राष्ट्रवादीं प्रमाण लेखकूय तांचे मदीं समेट घडोवन हाडपाचो प्रयत्न करता. ते खातीर तो लांबलचक आनी घुंवडावन घुंवडावन युक्तीवाद करता. हांव आशिल्लों जाल्यार कार्ल मार्क्साच्या एकाच वाक्यांत हो प्रस्न सोंपयतलों आशिल्लोंः ''धर्म ही अफूची गुळी आसता.''

निमाणें तो आपले कवितेच्या म्हत्वपूर्ण भागा कडेन येता. आमी सगळेच वावुरतात ती समाजाचो फुडार घडोवपाची मोख. पूण हांगा पयलींच एक गजाल म्हाका स्पश्ट करपाक जाय. 'द ड्रीमलॅण्ड' म्हणल्यार वास्तवीक एक मनोराज्य. लेखकान पुस्तकाच्या नांवांतूच तें मान्य केलां. ह्या विशयाचेर आपणें एक विज्ञानीक प्रबंध बरयला अशी ताची भावना खंयच ना.

'ड्रीमलॅण्ड' (सपन नगरी) ह्या नांवांतल्यानूच तें स्पश्ट जाता. पूण सामाजीक उदरगतींत मनोराज्यांची भुमिका खूब म्हत्वाची आसता. सेंट सायमन, फॉरियर आनी रॉबर्ट ओवेनाच्या सिद्धांतांबगर विज्ञानीक बुन्यादीचो मार्क्सवादी समाजवाद अस्तित्वांतूच येवंक शकनाशिल्लो. एल राम सरण दासाच्या मनोराज्याचीय सुवात थंयच आसा. जेन्ना आमकां तांच्या चळवळींच्या तत्वज्ञानाचें सुसुत्रीकरण करपाची आनी ह्या चळवळीं कडेन विज्ञानीक दिश्टीकोणांतल्यान पळोवपाची गरज होलमतली तेन्ना हें पुस्तक खूब उपेगाचें थारतलें.

एक गजाल हावें पळयल्या. लेखकान खूबच हाडबडीत पद्तीन सगळें मांडलां. ताचें मनोराज्य उक्तायतना समाजांतल्या आदर्शवादांनीय ताची फाट सोडिल्ली ना.

## "गरजेवंतांक भिक्षा दिवपाची"

आमी जो फुडाराचो साम्यवादी समाज उबारपाक सोदतात थंय आमी धर्मादाय संस्था उगडचे नात. थंय गरजेवंत आनी गरीब लोक आसचे नात. कोण भीक मागचोय ना आनी कोण घालचोय ना. हे दोश आसले तरिकूय लेखकान हो प्रस्न खूब सोबीतकायेन हाताळ्ळा.

ताची सर्वसादारण रुपरेशा विज्ञानीक समाजवादा सारकीच आसा. पूण तातूंतल्या कांय गजालींक विरोध करपाक जाय वा खंडन करपाक जाय. आमी अशें म्हणया की त्यो सुदारूंक जाय. देखीक, 427 व्या कडव्याचे तळटिपेंत सरकारी कर्मचाऱ्यांनी चरितार्था खातीर दिसाक चार वरां तरी शेतांनी वा कारखान्यांनी काम करचें अशें ताणें म्हणलां. पूण हेंय परत सपनरंजन कशें दिसता. वेव्हारी दिसना. उरफाटें आयचे घडयेक सरकारी कर्मचाऱ्यांक फावो ताचे परस चड पगार मेळटा तातूंतल्यान ही प्रतिक्रिया आयल्या. प्रत्यक्षांत मानसीक श्रम हे शारिरीक श्रमा इतलेच उत्पादक आसतात हें बोल्शेविकांक लेगीत मान्य करचें पडलां. आनी फुडाराक

समाजांतल्या विंगड विंगड घटकां मदलीं नातीं समानतायेचे बुन्यादीचेर उबीं जातलीं तेन्ना उत्पादक आनी वितरक ह्या दोगांकूय तितलेंच म्हत्व आसतलें. एखाद्र्या खलाशान दर चोवीस वरांनी आपली बोट नांगरून चार वरां श्रमाचें काम करचें वा एखाद्र्या शास्त्रज्ञान आपलो प्रयोग अर्दार सोडून प्रयोगशाळेंतल्यान चार वरां चरितार्था खातीर शेतांत देंवचें अशी अपेक्षा आमी दवरूंक शकनात. ते दोगूय उत्पादक पद्दतीचेंच काम करतात. समाजवादी समाजवेवस्थेंत एकूच गजाल वेगळी आसतली. मानसीक श्रम शारिरीक श्रमापरस चड श्रेश्ठ मानप जावचें ना.

मोफत शिक्षणाची एल राम सरण दासाची कल्पना मात विचार करपासारकी आसा. रशियेंतल्या समाजवादी सरकारान कांय प्रमाणांत ती आपणायल्या लेगीत.

गुन्यांवा विशीं ताणें केल्ली चर्चा मात प्रगत विचारधारा म्हणूंक फावो. गुन्यांव हो सगळ्यांत गंभीर असो सामाजीक प्रस्न. तो तितलेच कुशळटायेन हाताळपाक जाय. ताचे जिणेंतलो चडसो म्हत्वाचो काळ ताणें बंदखणींत सारला. ताका ताचो प्रत्यक्ष अणभव आसा. एके कडेन तर तो बंदखणींतलींच उतरां वापरता - 'हलकी मजुरी, मध्यम मजुरी आनी सक्त मजुरी.' खंयच्याय समाजावाद्या सारको तोय प्रायश्चीत वा बदलो घेवपाचे बदला ख्यास्तीचो सिद्धांत सुदारणेचे बुन्यादीचेर आसपाक जाय अशें सांगता. ख्यास्त न्हय तर गुन्यांवकाराक सुदारून परत हाडप हें न्यायदानाचें मार्गदर्शक तत्व आसपाक जाय. बंदखण हें नरक न्हय तर सुदारघर आसचें. हे दिश्टीन वाचकांनी रशियन बंदखणीचे पद्दतीचो अभ्यास करचो.

लश्करा विशीं उलयतना लेखक युद्धाविशींय उलयता. म्हजे दिश्टीन समाजवादी वेवस्थेंत युद्ध एक संस्था म्हणून विश्वकोशाच्या कांय पानांभितर मर्यादीत उरतलें आनी शस्त्रां पुराणवस्तूसंग्रहालयाची सोबा वाडयतलीं. कारण युद्धाक कारणीभूत जावपी परस्परविरोधी हितसंबंदूच अस्तित्वांत आसचे नात.

चडांत चड युद्ध एक संस्था म्हणून स्थित्यंतराच्या काळापुरती तिगोवन दवरची पडत. आयची रशिया एक देख म्हणून पळयल्यार आमकां तें सहजपणान लक्षांत येतलें. सध्या थंय सर्वहारा वर्गाची हुकूमशाय चलता. तांकां समाजवादी वेवस्था प्रस्थापीत करपाची आसा. हे मजगतीं तांकां भांडवलशाही वर्गा कडल्यान स्वताचें संरक्षण करचे खातीर सैन्य दवरपाची गरज आसा. पूण त्याय युद्धाची मोख वेगळी आसतली. साम्राज्यवादी प्रेरणेंतल्यान आमचे सपननगरींतले लोक युद्ध करपाक प्रवृत्त जावचे नात. युद्धां जिखून प्रदेश काबीज करचे नात. क्रांतीकारी सेना लेगीत दुसऱ्या प्रदेशांत वतल्यो त्यो फकत थंयच्या जुलमी राजवटींक सत्तेवेल्यान सकयल देंवोवपाक आनी थंयचे कश्टकरी जनतेचें शोशण थांबोवन तांकां मुक्त करपाक. तांचेर सत्ता गाजोवपाक न्हय. राष्ट्रवादाच्या नांवान वा वंशाच्या नांवान दुस्वासाचें वातावरण तयार करून युद्ध खेळपाक न्हय.

विश्वसंघ ही मुक्त विचारसरणीच्या सगळ्या लोकांची सगळ्यांत लोकप्रिय संस्था. लेखकान होय विशय सविस्तरपणान मांडला आनी ताची लीग ऑफ नेशन्सावेली टिकाय तोखेवपासारकी आसा.

लेखक 571 (572) ह्या कडव्यांचे तळटिपेंत थोडेभितर प्रकारांचो परामर्श घेता. तो म्हणटाः ‘‘फकत हिंसक क्रांतींतल्यान अशें तरेचें राज्य हाडप शक्य ना. तें लोकांचेर लादपूय शक्य ना. तें भितरल्यानूच वयर सरपाक जाय... हें उत्क्रांतीचे प्रक्रियेंतल्यानच जावंक शकता. वयर सांगिल्ले तत्वप्रणाली विशीं लोकांक शिक्षीत करून.’’ ह्या विधानांत चूक कांयच ना. तें अचूक आसा. पूण सविस्तरपणान ताची विस्कटावणी करूंक नाशिल्ल्यान तातूंतल्यान गैरसमज वा मनाचो गोंदळ लेगीत जावंक शकता. हाचो अर्थ एल राम सरण दासाचो बळाच्या भावार्थावेलो विस्वास उडला? तो कर्मठ अहिंसावादी जाला? ना, ताचो अर्थ तसो न्हय.

ह्या वाक्यांचो अर्थ कितें तो हांव तुमकां सांगतां. समाजवादी समाजवेवस्था हिंसक मार्गान उबी रावंक शकना, ती आपणा भितरल्यानूच विकसीत

जावची पडटा हें क्रांतीकारकांइतलें आनीक कोणूच नकळो. फकत शिक्षणाचो वापर करून हें जावंक शकता हेंच लेखक सांगता. पूण सध्याचें सरकार वा तशें पळोवंक गेल्यार खंयचेंय भांडवलदारी सरकार हे प्रक्रियेक मजत करचें ना हें कोणूय सांगूंक शकता. इतलेंच न्हय, असली प्रक्रिया निर्दयपणान ते चिड्डूनच उडोवप पसंत करतले. मागीर, 'उत्क्रांती' कितें साध्य करतली? आमी, क्रांतीकारी, आमच्या हातांत सत्ता घेवंक सोदतात. भौशीक शिक्षणा खातीर क्रांतीकारी सरकार स्थापन करपाक सोदतात. आज रशियेंत आसा तशें. एक फावट सत्ता हातासली की शांतिकायेच्या मार्गान रचणुकेचें काम सुरू जातलें. बळग्याच्यो वापर फकत आडखळी पयस करपा खातीर जातलो. लेखकाक जर हेंच अपेक्षीत आसा जाल्यार आमचें ताचेर एकमत आसा. आनी ताका हेंच सांगपाचें आसा असो म्हजो तरी विस्वास आसा.

हांवें ह्या पुस्तकाचेर सविस्तरपणान चर्चा केल्या. खरें म्हणल्यार हांवें ताचेर टिकाच चड केल्या. पूण तातूंत कसलोच बदल करचो अशें हांव मागचों ना. कारण ताका इतिहासीक मुल्य आसा. हें 1914-15 वर्सांतल्या क्रांतीकारकांचें कल्पनाविश्व आशिलें.

हांव खासा करून तरणे पिळगे खातीर ह्या पुस्तकाची नेटान शिफारस करीन. पूण, एक शिटकावणी दिवन. तातूंत कितें बरयलां तें गृहीत धरपा खातीर आनी ताचें कुड्डें अनुकरण करपा खातीर हें निखालस वाचनाकात. वाचात, ताचेर टिका करात, ताचेर विचार करात आनी तातूंतल्यान स्वताचें मत तयार करात.

---

Lasertypeset by Sri Lipi software, Panaji, Goa and
printed at Pushpak Press, New Delhi

भगतसिंग हो भारतांतलो एक फकत व्हड स्वातंत्र्य सैनीक आनी समाजवादी क्रांतिकारीच नाशिल्लो, तर आदल्या तेंपावेलो एक मार्क्सवादी विचारवंत आनी तत्ववेत्तो आशिल्लो. ताणे बंदखणींत आसतना चार पुस्तकां आनी एक पुस्तिका बरयली. दुर्दैवान हीं चारूय पुस्तकां बंदखणींतल्यान भायर काडपाचे प्रक्रियेंत शेणलीं. 'हांव नास्तीक कित्याक' ही पुस्तिका मात भायर पावन 1931 वर्सा छापूनय आयली. राण शरण दास ह्या म्हालगड्या क्रांतीकारकाचे विनंतीक मान दिवन भगत सिंगान ताच्या 'द ड्रीमलॅण्ड' ह्या कविता संग्रहाक प्रस्तावना बरयली. तांचेंच मेळून हें पुस्तक.

भगतसिंगाची जल्मशती आनी शहीदांचें 75 वें वर्स मनयतना भगतसिंगाचीं हीं दोन बरपां भारतीयांमुखार दवरतना नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडियाक खऱ्यांनीच अभिमान भोगता. प्रा. बिपन चंद्रान ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरयल्या.

संदेश प्रभुदेसायान ह्या पुस्तकाचो अणकार केला. 'सुनापरान्त' ह्या कोंकणी दिसाळ्याचे संपादक आशिल्ले श्री प्रभुदेसाय आपले तरणेपणांत विद्यार्थी चळवळींत वावुरल्यात. भगत सिंगान घडयल्ले संघटनेचेंच नांव घेवन तांच्या सगळ्या वांगड्यांनी मेळून 1980 च्या दसकांत गोंयांत 'नौजवान भारत सभा' ही संघटना घडोवन लढावू स्वरुपाची युवा चळवळ उबारिल्ली.



रु. 30.00

ISBN 978-81-237-5276-1

नॅशनल बुक ट्रस्ट, इंडिया